कला चेतना, वळवय निर्मित -
'धनयां देंवचारा' (2003)...



कलाकार : प्रशांत नायक

# पुंडलीक नारायण नायक

## हांगेलीं रंगमाचयेर आयिल्लीं नाटकां

1) खण खण माती 1977
2) रक्तखेव 1978
3) राखण 1979
4) देमांद 1980
5) मुक्ताय 1980
6) सूर्यसांवट 1981
7) शबै शबै भौजन समाज 1981
8) सुरींग 1982
9) मनशाळी मोनजात (रुपांतरीत) 1982
10) पिंपळ पेटला 1984
11) श्री विचित्राची जात्रा 1986
12) दायज 1990
13) चैतन्याक मठ ना 1991
14) आत्मवंचना 1992
15) परिक्रमा 1993
16) दिश्टदौलत 1995
17) तकली तड्डकी (रुपांतरीत) 1998
18) तिरंगी चक्राचक्री 1998
19) प्रेमजागोर 1999
20) शिरी रे शिरी! अधांतरी! 1999
21) काळजाची काणी 2000
22) प्रेमयुद्ध 2000
23) दिव्या दिव्या दिपत्कार 2000
24) अंता घरा भगवंता 2001
25) कांसुलो 2002
26) धनयां देंवचारा 2003
27) चित्र स्वयंवर 2003
28) सांगोड 2004
29) चतुरंगा 2005
30) कथा अस्तुरी 2008
31) फिंर्गी फटास 2011



चत्राय : नाटकाच्या मुखावयलें वर्स, नाटक रंगमाचयेर आयलां तें वर्स.

# धनयां देंवचारा

पुंडलीक नारायण नायक



DHANAYAN DENVCHARA Konkani Play

by PUNDALIK NARAYAN NAIK



प्रकाशन क्र. : 87

पयली उजवाडावणी : 2012

उजवाडावपी :
हेमा पुंडलीक नायक
अपुरबाय प्रकाशन
वळवय, फोंडें,
गोंय : 403 401

छापपी :
हिरू नारायण नायक
रुतू ऑफसेट,
वळवय, फोंडें,
गोंय : 403 401

अक्षर जुळोवणी :
रिया ग्राफिक्स
ओल्ड-गोवा,
गोंय : 403 402

मुखचित्र :
श्रीधर कामत बांबोळकार

मोल : ₹ 100/-

ISBN : 81-86488-87-1

**दिलीपकुमार नायक....**

म्हजो भार ल्हव करपाची तांक
तुजेठांय आसली.

तुजी अकस्मात 'एक्झीट'
कोंकणी रंगमाचयेक
खांवटें घालून गेली.

- पुंडलीक नायक

# धनयां देंवचारान कुंकार घालचे पयलीं....

भुरगेपणापासून म्हाका 'भूत' ह्या प्रकाराविशीं आकांताची उत्सुकताय. ते खातीर रातचें मसंडेंत वचप, जंय भुतांच्या अस्तित्वाची वदंता आसा ते सुवातेर एकल्यान वो इश्टाबरोबर वचप, असले जायते प्रयोग हांवें भुरगेपणांत केल्या. गांवांत आनी गावां भोंवतणच्या काल्याजात्रांनी हेर मांडावांगडा एक ल्हान-व्हड पुस्तकांचोय मांड आसतालो. थंय तेन्ना भुतांच्या काणयांचीं पुस्तकां मांडून दवरिल्लीं आसतालीं. त्या वेळार चार आण्यांचें एक पुस्तक विकत घेवन, रातभर थंय उबो रावन हेर दोन-तीन पुस्तकां वाचून काडटालों. भुतां संबंदिचें बरेचशें आयकून, पळोवन आनी वाचून मनाची एक खात्री पटली-ती म्हणल्यार ह्या संवसारांत भुतां ना, निखालस ना.

पूण आमचे लोक संस्कृतायेंत दैवतां बरोबर भुतांय आसात. तातूंतलीं कांय भुतां देवासारखीं पूज्य जाल्यार कांय उपद्रवी अशें मानतात. एकदां हांव मणिपुराक गेल्लों. थंय भौसंख्य हिंदू लोक. वयर दोंगराचेर तांगेले आदिम संस्कृतायेच्यो कांय खुणो फांतर, शिल्पांच्या रुपान ताणी जतनायेन सांबाळून दवरल्यात. तांगेलें म्हणणें- आमी हिंदू जांवचे आदिं आमचीं एक 'तंत्र संस्कृती' आशिल्ली. गोयांतूय आमकां हेंच पळोवपाक मेळटा. आमी वैदिक संस्कृती आपणावयचे पयलीं हांगासर एक तंत्र संस्कृती आशिल्ली. आजुनूय तिचें आस्तित्व आसा. देंवचार हे दैवत ह्याच तंत्र संस्कृतींतलें. वैदिक पुराणग्रंथानी देंवचाराचो उल्लेख ना. परत, देंवचार हो देवयोनींतलो न्हय आनी भूत योनींतलो न्हय. सद्गुणी, सदाचारी चलणुकेचो मनीस मरतकूच राखणदार-देंवचार जावन मनशाचीं बऱ्याचीं कामां करता अशी जनमानसाची समजिकाय आसा. बांयगिणीचो बांयगिणकार, फर्मागुडये वयलो कटमगाळचो देंवचार, म्हापशेंचो बोडगिणीचो बोडगेश्वर हीं गोंयांतलीं सगळीं दैवतां हेच परंपरेंतली आसात. आतां वैदिक पद्दतीन धडाधड ह्या दैवतांचें आधुनिकरण चल्लां. पयलीं देवचाराचो निवेद्य सोरो-रोंट आसतालें. आतां देंवचाराच्या नांवान भक्त सोरो पियेतात आनी देंवचाराक दूद अर्पण करतात. कांय तेंपान देंवचाराच्या माथ्यावयलें मुंडाशें वचून थंय भांगराचो मुकूट आनी आंगभर नवी अळंकार आयले जाल्यार अजाप न्हय!

भार येवप, अवसर येवप हों तंत्र-संस्कृतायेचोच एक भाग आसा. आमच्या घरांत म्हज्या बापायचेर एका दैवताचो भार येतालो. म्हजो इश्ट पांडुरंग गावडे हाचो बापूय काशिनाथ हाजेर थळाव्या कुयणांतल्या देंवचाराचो भार येतालो. तो कुंकऱ्यो घालीत खुदतालो. आनींक अशे चार-पांच अवसर आसताले तातूंत एक बायलमनीस आसताली आनी एक वागरो लेगीत. म्हणजे वाग. तो खुदतना उलय नासलो पूण फक्त वागावरी गुरगुरतालो. हीं भार येवपी दैवतां आनी घाडी हांचेमर्दी मुळावो फरक आसा. तो म्हणल्यार घाडी हो दैवतांकडेन उलोवपी व्यावसाईक मध्यस्त. घाडयाच्या बाबतींत घाडपणां, फटिंगपणा ह्यो गजाली घडटात. पूण बाकिचीं दैवतां हीं प्रामाणीक. खुदपी मनशाची त्या दैवताचेर खर निष्ठा आशिल्ल्यानूच ताचेर तो अवसर येतालो. हे खुदपी केन्ना घाडयाभशेन लोकांच्या भावनांचो लाब उठयनासले. म्हणून ह्या प्रकाराकडेन हांव सरसकट अंधश्रद्धा अशें म्हण नासताना तिरायतपणान पळोवपाक शकलों.

'धनयां देंवचारा' नाटक देंवचार आनी भुतावळ हे संकल्पनेचेर बेतलां. म्हजे कुवती प्रमाण हांवें भुता-खेतांचो अभ्यास करून कांय निरीक्षणां मांडल्यांत. हे बाबतींत हांव पुराय निरिश्वरवादी (नास्तीक न्हय, हांव खूब श्रद्धावान) आसां, हें वेगळें सांगपाची गरज ना. पूण हांव कोणाच्यो भावना दुखोवपाक सोदिना, हेंवूय तितलेंच खरें.

'धनया देंवचारा' नाटकाखातीर बरयिल्लें शिर्शकगीत हांवें, 'गुणाजी' ह्या फिल्माखातीरूय घेतलां. म्हजे 'गुणाजी' कादंबरीकेचेर हें फिल्म 'एक्सीस व्हिजन'च्या बॅनराखाला तयार जाता.

'धनयां देंवचारा हें म्हजें 26 वें नाटक

**– पुंडलीक नारायण नायक**

धनयां देंवचारा नाटकाचो पयलो प्रयोग, कला चेतना वळवय संस्थेचेवतीन, सार्वजनिक गणेशोत्सव, कुंडय, फोंडे-गोंय हांगासर, ता. 2-9-2003 दिसा, सां. 7.30 वरांचेर सादर जालो.

## श्रेय नामावळ

| | | |
|---|---|---|
| 1. | **कृष्णा कुराडो** | : राजदीप नायक |
| 2. | **लोहिता** | : सुचिता नार्वेकार |
| 3. | **गजा गाडेकार** | : जयंत नायक |
| 4. | **गजा गादयेकार** | : सागर नायक |
| 5. | **गजा गांवकार** | : सुधीर नायक |
| 6. | **मुंजो** | : मिलिंद नायक |
| 7. | **निमो** | : आकाश पालकार |
| 8. | **खेत्री** | : दिनेश नायक |
| 9. | **देंवचार** | : प्रशांत नायक |
| | **दिग्दर्शक / संगीत** | : विश्वास च्यारी |
| | **वेशभुशा** | : सुचिता नार्वेकार |
| | **संगीत संयोजन** | : संदिप खेडेकार |
| | **नेपथ्य** | : हेमंत कांसार |

## पात्रांची वळख

| | | |
|---|---|---|
| 1. | कृष्णा कुराडो | – घरकार, भितल्ले बुद्दीचो |
| 2. | लोहिता | – कृष्णाची शिटूक घरकान्न |
| 3. | गजा गाडेकार | – कृष्णाचो इश्ट |
| 4. | गजा गादयेकार | – कृष्णाचो इश्ट |
| 5. | गजा गांवकार | – कृष्णाचो इश्ट |
| 6. | देंवचार | – देव आनी भूत हांचे योनिंमदलें दैवत |
| 7. | मुंजो | – भूत योनिंतलो |
| 8. | खेत्री | – भूत योनिंतलो |
| 9. | निमो | – भूत योनिंतलो |

# अंक : पयलो

## देखाव – पयलो

(रानाचो वांठार. मर्दीं एक फातरांचें बांदून काडिल्लें पेड आसा. पेडांत एक व्हडलें झाड पिंपळ वो सांतोण आसुंये. आनी कांय झाडां–झोपां. पेडार एक ल्हानशी घुमटी. पेडांतल्या झाडांच्या खांदयांचेर कांय कांबळी वडयल्यात आनी तांबड्यो घुडयो लायल्यात. पेडार कांय बारीक व्हाणों तेचप्रमाण कांय कंवचेच्यो बाटल्यो. ह्यो व्हाणो आनी सोऱ्याच्यो बाटल्यो तशेंच घुडयो आनी कांबळी भक्तांनी देंवचाराक ओंपल्यात. पेडाचे कुशीक एक तळयाची धड दिसता. पेडार एक जाणटेलो उबो आसा. पळोवपाक बलदंड दिसता. काळो. कांसाटो खोयिल्लें धोंतर. कमराक चांदिचें काण. वयलें आंग उकतें. मात एक जाकीट घातलां. माथ्याक मुंडासो. खांदार कांबळ. झुबक्यांच्यो मिश्यो. कानांक केळीच्या पानाची लांब विडी खोयल्या. हातांत लांब दांडो आसा. दांड्याक सकयल्या भागात पत्र्याच्यो चकत्यो (मुत्री) आसात. वाजयतकूच तांचो 'खळळ खळळ' आवाज जाता. हो देंवचार! तळयाकडलो तळेकार देंवचार. पेडाचे कुशीक आशिल्ल्या झाडा पेडांचेर भुतां हुमकळटात. हीं भुतां न्हिदल्यांत. तांचो भेस मनशांभशेन न्हय. आंगाक चिप्प

बसपी धवी आंगलीं आनी तांचेर जिंत्रूप चितारप. भुतांत एक निमो. हो सुमार बारा वर्सांचो. दुसरो खेत्री. हो सुमार तीस पस्तीस वर्सांचो. हाच्या आंगावयल्या चितारपांत तांबड्या रंगाचो भाग चड. तिसरो मुंजो. हाची पिराय वीस-पंचवीस वर्सांची.

वेळ-फांतोड फुटचे आदिंचो. पयस मळबार तांबशी दिसता. पयसुल्ल्यान कोलेबी रडिल्ल्याचो आवाज. तेसरशीं पेडावयलो देंवचार हालता. इतलो वेळ तो न्हिदेंत आशिल्लो. मातशें आंग-पांग वळटा. सोऱ्याची बाटली तोंडाक लायता. घटाघट पियेता. विडी पेटयता आनी दांडो आदळीत पेडावयलव्यान सकयल देंवता. पार्श्वभागाचेर देंवचाराचें गीत आयकूंक येता. मागीर देंवचार एका एका भुताक दांडो लावन उठयता. तेसरशीं निमो, खेत्री मुंजो उठटात आनी न्हिदसुरेच गीताच्या तालार नाचपाक लागतात. देंवचार कांय वेळ हांगा थंय भोंवता. मदींच नाच्च जाता, मदींच दिसता.

**धनयां देंवचारा**
**न्हय रे भुता,**
**न्हय रे देवा**
**मदल्या रूपकारा**
**छीन् छीन छीनाक्**
**छीन् छीन् छीनाक्**
**आपा लिपा धर ताका**
**मुतूं नाका थुंकूं नाका**
**चिला-पिला पांजी खाला**
**धापा ताका धपाधपा ॥**

कोंब्यान साद घालचेआदीं
देगेर तांबशी फुटचेआदीं
कंठ पिल्यांक सुटचेआदीं
मनशांकुळां उठचेआदीं
कोण मारता भोंवडी?
गांवच्या राखणदारा।।

पेडार धोलता तांबडी घुडी
पेट्टा काळखांत उज्या चुडी
केळम्यापाना आख्खी विडी
सोऱ्यारोंटा तुजी वाडी
पावता पेडार कशी?
बुधवार आयतारा।।

(देंवचार एक भोंवताडो मारून आसा तसो पेडार येता. भुतांय नाचत नाचत ताचे भोंवतणी एकठांय जातात.)

(काळोख)

## देखाव – दोन

(कृष्णा कुराड्यालें गांवांतलें घर. घराचो सादारण भायलो, पडवेवयलो भाग दिश्टी पडटा. घरांत बसपापुरत्यो कांय कदेली वा बसका. घरांत घरकार कृष्णा. पिरायेन सुमार पस्तीस-चाळीस वर्सांचो. सभावान भितरले गांठीचो घरांत घरच्या कपड्यांनी वावुरता.

लोहिता तागेली घरकान्न. पंचवीस-तीस वर्सांची. घरगुती न्हेसण. आंगापांगार मोजकींच भांगरा.

वेळ - सकाळचो. कृष्णा हातांत कुराड घेवन आसा. तो कुराडीचें पातें आनी दांडो घासून पुसून निवळ करता. लोहिता घरांतलें काम करता. घोवाक कितेंतरी सांगपाक सोदता.)

**लोहिता** : आयकलां? कितें सांगपाक सोदतालें जाणां?

(कृष्णा आपणालेच तदरेंत आसा.)

**कृष्णा** : लोहिता, आयज दीस कोण जाणां?

**लोहिता** : तें सांगपाक कितें कॅलेंडर जाय काय पंचांग जाय?

**कृष्णा** : म्हणजे?

**लोहिता** : म्हणजे हातांत कितें घेतलां ताचेवयल्यान कळना?

**कृष्णा** : (पळयत) कुराड!

**लोहिता** : दर सप्तकांत कुराड घेवन बसता तो बुधवार.

**कृष्णा** : कुराड घेवन बसता म्हणल्यार दर सप्तकांत कुराडीची पूजा करतां.

**लोहिता** : पूण आयज मातशी चडूच आं. सकाळधरयां हेंच चल्लां. घासपूस.

**कृष्णा** : सारकें तुजें. आयजसावन कुराडीची पूजा सोंपली. आयजसावन प्रत्यक्ष कामांक सुरवात. तेखातीर ही घासपूस.

**लोहिता** : म्हणजे? आयजसावन कुराड चलोवपाचें काम करतलो काय कितें?

**कृष्णा** : करतलो म्हणजे? तुकां दुबाव आयलो?

**लोहिता** : दुबाव येवपाक एक ना दोन न्हय तर हजार कारणां आसात. केन्ना मात कमर बागोवन नकळों. कश्टाचें काम करून नकळों. आतां हे पिरायेर तूं झाडाचेर कुराड चलयतलो?

**कृष्णा** : कुराड झाडाचेर चलयतलो म्हण तुकां कोणें सांगलें?

**लोहिता** : मागीर कित्याचेर चलयतलो?

**कृष्णा** : जाचेर चलयतलों ताचीं एका धपक्यान दोन लुणां करतलों.

लोहिता : तशें जाल्यार कुराड घेवन गांयडोळ सोदीत भोंव.

कृष्णा : गांयडोळ सोदीत हांगा थंय भोंवपाची गरज ना. हे हे तुजे हुळहुळटे जिबेचो हे कुराडेन कुडकोच काडटा तोडून.

लोहिता : येदोसो पराक्रम करपाक तुकां येदी व्हडली कुराड लागता? सादी सुरी पावना? आनी तेचखातीर ही कुराड अशी सांबाळून दवरल्या काय कितें?

कृष्णा : तुकां खबर ना. ही कुराड सादी न्हय.

लोहिता : तितलें आयकून जाणां हांव.

कृष्णा : कितें तें?

लोहिता : ही कुराड तुमगेल्या पूर्वजांची.

कृष्णा : आमचो पूर्वज म्हणल्यार कुश्ट कुराडो. ताचेंच नांव म्हाका दवरलां. कृष्णा.

लोहिता : म्हजो बापूय ताचेरूच भाळ्ळो आनी म्हजी गांठ तुजेकडेन बांदली.

कृष्णा : ताचेरूच म्हणजे कित्याचेर भाळ्ळो? कुराडीचेर काय म्हजेर?

लोहिता : तुजेर भाळपाक तुका कितें म्होंव लागिल्लें काय भांगर दशिल्लें? बापूय भाळ्ळो कुराडीचेर. असली पूर्वजांची कुराड घरांत आसप म्हणल्यार केदें भाग्य! देवाक दिवजां आशिल्ल्या भिकाड्ड्यागेर पासून जश्यो धुवो दितात तशें म्हाका काडून दिलें हांगा. हे हे कुराडीखातीर. खरें म्हटल्यार म्हजें लग्न तुजेकडेन न्हय, हे कुराडीकडेन लागलां. आनी कितें काय म्हटल्यार हे कुराडीन तूं म्हजी जीब कापूंक सोदता? काप पळोवया. कशी कापता ती. केन्ना एक बटाट आनी मुळो कापपाक म्हाका आदार केलो ना. आतां जीब कशी कापता ती पळोवया.

कृष्णा : लोहिता, तुकां हांवें आदींच सांगलां, हांव रागाक वायट.

लोहिता : रागाक वायट जाल्यार काड राग भायर. बेस्टो मुमको वाग कसो

गुरगुरूं नाका. तूं रागाक वायट आनी हांव तरी रागाक सवाय म्हणून समजलो तूं?

कृष्णा : (हार मानून) बरें आसा.

लोहिता : हेंच तुजें मानवना म्हाका. धमक्यो दिवप आनी वगी रावप.

कृष्णा : वगी रावलो काय ना?

लोहिता : वगी रावलो पूण मनांत कितें आसा तें तशेंच उरलें. तें तशेंच सांठावन दवरतलो आनी संद मेळटा तेन्ना भायर काडटलो. गरंजेल तूं गरंजेल. दारू भरून भरून भितर दवरप आनी मागीर एक दीस फुटप.

कृष्णा : फुटप पूण आवाज करीनासताना.

लोहिता : सारखें. सभावूच पाडो तुजो.

कृष्णा : आतां तूं तुज्या तोंडाचो खोजनो बंद कर आनी तुकां फर्मायिल्लें काम मोन्यांनी कर. समजलें?

लोहिता : कसलें फर्मायिल्लें काम?

(तो रागान पळयता.)

(याद जावन) आं, याद आसा आज सकाळफुडें बरी तांदळाची भाकरी खावपाची रूच सुटल्या. थांपतां. थांपता. पीठ काडून दवरलां.

कृष्णा : चल, म्हजो सगळो राग त्या पिठाचेर काड.

लोहिता : पिठाचेर कित्याक? म्हजो सगळो राग आसा हे कुराडीचेर. केन्ना केन्ना दिसता, 'केन्ना कित्याक? सदांच दिसता, तुजे अस्वडीं ही कुराड काडून मोखून मारची. इतली पयस, परत केन्ना नदरेक पडची ना. हे कुराडीन वाट लायली म्हज्या संवसाराची. केन्नातरी भाग्य फळटलें म्हणून हे कुराडीची पूजा करीत रावप. दुसरो कामधंदो कांय ना. हात-पांय हालोवप ना. हांवूय खंय काम करतलें म्हणल्यार ताकाय तुजी आडकाठी. बायलेचेर विश्वास ना. असल्यांनी कशें जावपाचें! म्हाका कामधंद्याची कितली गोडी! कसलोय आनी केदोय कामधंदो करपाची म्हजी

तयारी आसा. भायर खंय वचपाक नाका जाल्यार हांगासर गांवांतूच कितेंय बारीकमोटें काम करपाक जाता. पूण प्रत्येक गजालीक तुजो नानाकार. कितें काय म्हणल्यार ऊठसूठ ते कुराडीची पूजा करीत बसप.केन्ना एक गणपती पुजलो ना, सत्यनारायणूय पुजलो ना. कुराडीची पूजा! पूर्वजांचें आयिद्द मू? एक संवसारपाडव्या दिसा पूजा करतात तें पुरी पडना?

कृष्णा : आतां सांगलें न्हय, कुराडीची पूजा सोंपली. आतां तिचें काम प्रत्यक्ष सुरू जातलें. पूण तूं समजता तें लाकडा फोडपाचें न्हय.

लोहिता : मागीर कुराडीन कितें फातर फोडटले?

कृष्णा : तुजें चिंतपूच दयडिरें. तुकां लाकडां आनी फातरूच दिसपाचे. म्हाका पळय जें दिसता तें तुकां केन्नाच दिसपाचें ना.

लोहिता : आनी तुकां कितें दिसतां तें तूं केन्ना सांगपाचोय ना.

कृष्णा : सभाव न्हय म्हजो तो. सभावाक वखद ना.

लोहिता : आनीक एक सांगून दवरतां.

कृष्णा : कितें तें?

लोहिता : एकदां ही कुराड थंयच्यान – कुरकुटांतल्यान काडल्या, ती परत थंय दवरपाची ना.

कृष्णा : दवरतलों.

लोहिता : दवरतलो?

कृष्णा : हय. तिचें काम जातकूच आसा थंय दवरतलों.

लोहिता : आं. काम जातकूच. कसलें काम तें आजून सांगू ना. नाका सांगू. केन्नातरी कळटलेंच म्हाका. पूण काम जायनासताना जर ती कुराड त्या जाग्यार परत येता जाल्यार तुगेल्या त्या कुश्ट कुराड्याचो सोपूत! ती मोखून मारपी.

कृष्णा : खंय मारतलें मोखून?

लोहिता : खंय? व्हरून शिमेवयले तळयेंत वडयतलें.

कृष्णा : (हांसत) शिमेवयले तळयेंत? ती तळी कोणाली ती खबर

आसा न्हय?

लोहिता : आसूं कोणाली. पडंग तळी ती. पाडी बांय कशी.

कृष्णा : ती तळी आमच्या पूर्वजांची, कुश्ट कुराड्याची. आजून आमचो हक्क आसा ते तळयेचेर. (आपलेभितर) ते तळयेचेर आनी ते तळयेवेल्या देंवचाराचेर. आनी ही कुराड लेगीत तेच तळयेंतल्यान वयर काडिल्ली. आनी तीच कुराड तूं परत तळयेंत वडयता? हांव वडोवपी ती तळयेंत. कुश्ट कुराड्यान वडयिल्ली तशी, आनी मागीर? हय. सगळे तश्शें तश्शें घडटलें. जशें कुश्ट कुराड्याच्या ठांय घडिल्लें. हांव कृष्णा कुराडो, कुश्ट कुराड्याचो वंशज.

लोहिता : आपलेभितरूच कितें बडबडटा? सभावूच तुमचो तो. वागाभशेन गुरगुरतले.

कृष्णा : आतां तूं मोन्यांनी कामांक वता काय –

लोहिता : तुमचे भाकरेचें बरें आसा. हांव कितें सांगपाक आयिल्लें ताका लायली चुट्टी. मदींच ही कुराड आयली पाडापडिल्ली.

(कृष्णाक राग येता. तेसरशीं लोहिता जीब चाबता.)

कृष्णा : सांग.

लोहिता : हांव दोन दीस कुळारा वचून येतां म्हणटां.

कृष्णा : थंय कोण आसा? एक भाव आशिल्लो तोवूय मेलो.

लोहिता : मागीर कितें जालें? जाणटेलो बापूय ना म्हजो? आवय ना? तीं तरी जितीं आसा काय ना? आनी धाकलो भाव आशिल्लो जाल्यार म्हाका अशें अदीं मदीं कुळारा वचपाची गरज नासली. तोच येतलो आसलो हांगासर आकाचे ओडीन.

कृष्णा : (आपलेभितर) मेलो तेंच बरें जालें. एक भयण पेलना म्हाका. भयणिचो भाव आनी कसो पेलपाचो?

लोहिता : कितें बडबडटा?

कृष्णा : तशें हांव व्हडले उमेदीन वतां अशें समजूं नाका. थंय वतकूच आवय-बापूय, शेजाऱ्यां-सांबाऱ्यां म्हाका कोंचून खातात.

कृष्णा : तुकां कोंचून खावपाक तुकां अशें कितें दसलां तर?

लोहिता : दसूंना कांय. उणेपण! लग्न जावन इतलीं वर्सां जालीं.

कृष्णा : हांवूय तेंच म्हणटां. लग्न जावन इतलीं वर्सां जाली तरी आजून भुरगें ना.

लोहिता : भुरगें मळबांतल्यान पडना.

कृष्णा : खबर आसा म्हाका. हांगा पयलीं दीस आनी रात आमचेमदल्यान उजो वचना. पूण तूं लक्षांत दवर. (आपलेभितर) म्हगेर भुरगें जातलें. नक्कीच जातलें. पूण तें तुगेर जातलें काय कितें तें म्हाका खबर ना.

लोहिता : कितें लक्षांत दवर म्हणटा तूं?

कृष्णा : कांय ना.

लोहिता : आनी तुंवूय लक्षांत दवर (आपलेभितर) म्हगेरूय भुरगें जातलें. नक्कीच जातलें पूण तें तुजे आसतलें काय कितें तें मात म्हज्यान सांगूंक जावचें ना.

कृष्णा : कितें लक्षांत दवर म्हणटा तूं?

लोहिता : कांय ना.

कृष्णा : वच तूं कुळारा. जाय तेन्ना वच. जाय तेन्ना यो. येवपाकूच जाय अशें ना.

लोहिता : ना. वचना. तुवें सांगलां म्हण निखालस वचना. म्हाका जाय तेन्ना वतलें आनी म्हाका जाय तेन्ना येतलें.

कृष्णा : यो. पूण ताचेआदीं सांगलां तें कर.

लोहिता : थांपतां, शेणी थापतां तुकां पिठाच्यो.

कृष्णा : आनी आयज ते येतले. तांच्या च्या-पाणयाची वेवस्था करपाची. कोण ते कळ्ळें न्हय?

लोहिता : गजा मूं? हरशीं रीणकारी सांगनासताना येतात. आयज सांगून येतात?

कृष्णा : येतात खरे. आनी आयज ते मागपाक येवचेनात. दिवपाक येतले.

लोहिता : कितें दिवपाक?

कृष्णा : चल, चल थाप तूं.

लोहिता : हें अशें कुवाड्यांनी उलोवप बरें!

कृष्णा : तुकां तीच भास.

लोहिता : चुट्टी लायली तुमचे भाशेक. (भितर वता.)

कृष्णा : असली बायल आसचेपरस नासलेली बरी. (कुराडीक तोखेत) वा! काय बरी जाली चकचकीत. तळ्याकार देंवचारा, वळखतलो म्हज्या पूर्वजांची कुराड? कुश्ट कुराडो. हांव ताचो वंशज. घडयतलो परत सगळो इतिहास? तशाक तसो? अशेऽऽतरेन तुजो मान भौमान करतां, तूं संतुश्ट जावपाकूच जाय.

(इतल्यान भायरसावन गजा गाडेकार येता. चाळीस-पंचेचाळीस वर्सांचो. मोटवें कालसांव. वयर खोमीस-टीशर्ट. गळ्यांत, हातांत भांगराच्यो वस्ती जाचेवयल्यान पयशे जाल्यात म्हणून कळटा. आतां तो खाक्यांत कितेंतरी कवळून घेवन आयला. येनाफुडें कृष्णाक हडकिता. तेसरशीं कृष्णा कुराड कुशीक लिपवन दवरता.)

गाडेकार : कितें कृष्णा?

कृष्णा : यो रे गजा गाडेकार.

गाडेकार : एकलोच कोणाकडेन उलयता?

कृष्णा : ना रे, आनीक कोणाकडेन उलयतलों? सकाळीफुडें हिच्याच तोंडाक लागिल्लों.

गाडेकार : सामको तोंडाक तोंड लावन?

कृष्णा : ती आनी माणसुकी आसा? सांग, सांगिल्लें तें काम केलें?

गाडेकार : तुवें सांगलें आनी हांवें ना म्हणलें अशें केन्ना जालां? पूण खरें सांगू? हे फावट खूब त्रास जाले. पयली गजाल म्हणल्यार तुवें सांगिल्ल्यो त्यो वस्तू म्हज्या गाड्यार काय विकपाक ना.

कृष्णा : तुगेलो तो गाडो उरला रे? तो आतां पसरो जाला.

गाडेकर : देवादयेन पसरो जाला खरो. पूण म्हजें नांव गाडेकारूच उरलां काय ना? घे. ही कांबळ. सामकी नवीताल्ल. आतां कांबळी कोण वापरता रे? पयलीं शेतकार, गोरवांचे राखणेबी वापरताले. ही खंयसावन सोदून हाडली जाणां? एक इस्पीशेल मनीसूच धाडचो पडलो. कांबळीचो जालोच, वयल्यान मनशाचोय खर्च जालो.

कृष्णा : खर्चाचें बरें आसा. तुज्या पसऱ्यावयली जी फाटली बाकी आसा ते बाकींत जमा कर.

गाडेकार : अशें कर म्हणटा?

कृष्णा : हय तर. तशेंच करचें पडटलें.

गाडेकार : आनी हो व्हाणांचो जोड. सामको कोल्हापुरी. तुवें नंबर सांगलो ना पूण अदमासान हाडलो. तुकांच मरे त्यो?

कृष्णा : कोणांक तें मागीर पळोवया. बऱ्यो आसात करकरीत.

गाडेकार : ह्या व्हाणांचे तरी दिता मरे? (सोदीत) पळय बिलूच हाडलां. आनी हें फस्क. फस्काचें आसूं. ह्या बिलाचें पळय.

कृष्णा : त्या बिलाक लाय चुट्टी. आमगेले हिची भास ती. बिलाचें बरें आसा. तेंवूय ते बाकींत जमा करपाचें.

गाडेकार : पूण म्हाका एक सांग, हें सगळें सामान–
(कृष्णा भायर वाट पळयता.)
कृष्णा, कोणाची वाट पळयता?

कृष्णा : गजा नंबर दोनची.

गाडेकार : म्हणजे गादयेकार गजा येवपाचो आसा काय कितें रे?

कृष्णा : हय, गादयेकार गजा. गादयेसकट येवपाचो आसा.

गाडेकार : म्हणजे?

कृष्णा : म्हणजे कितें? नांव काडीनाफुडें गजा गादयेकार हजर.
(भायरसावन गजा गादयेकार येता. होवूय सादारण गजा गाडेकाराचेच पिरायेचो. आंगार तशींच भांगरां आनी भेसूय सादारण तसोच. पोटाकडेन घालून बाटली हाडल्या.)

कृष्णा : यो गजा, शंबर वर्सां आयुश्य तुकां.

गादयेकार : आरे गजा मरे. शंबर वर्सां जगों येता रे. पूण तकलेंत कसल्यो चिंता विवंचनां आसूंक फावना.

गाडेकार : तुकां कसल्यो चिंता-विवंचनां? तुजे गादयेचें बार जालें. आनी आतां येदे येदे गांजुडूडे पासून पिवपाक शिकल्यात. पयलीं तरी भुरगे जाण्ट्यांमुखारबी पियेना आसले. आतां तेंवूय ना.

गादयेकार : तें खरें. म्हणजे गिरायक वाडलां खरें. पूण उदारीय वाडल्या न्हय?

कृष्णा : (विशय ताळीत) म्हजी बाटली हाडल्या मरे?

गादयेकार : (दीत) घे. सामकें प्युअर आं. नवसागरबी कांय ना.

गाडयेकार : म्हणजे कृष्णा, पयलीं बार्रार वचून पितालो तो आतां घरांत हाडून पिवपाक लागलो? आनी हे गादयेकार अशे तरेन घरा हाडून दिवपाक लागले जाल्यार पिवपाक कितें जालां? पूण एक सांग रे कृष्णा, तुका अशें घरांत हाडून पिवपाक परमिशन आसा?

कृष्णा : कोणाचें परमिशन? सरकारचें?

गाडेकार : सरकाराचें आसत, पूण घर सरकाराचें आसा व्हय?

गादयेकार : म्हाका दिसना.

(कृष्णाचें लक्ष ना. तो आनीक कोणाची वाट पळयता.)

गाडेकार : आनीक कोणाची वाट पळयता?

कृष्णा : आनीक एक नंबर येवपाचो आसा.

गाडकार : म्हणजे गजा नंबर तीन. गजा गांवकार.

गादयेकार : तो बेकार गांवकार! ताणें केन्नाय येवं येता आनी केन्नाय वचूं येता. आमी मातशे गल्ल्यावयले हालप म्हणजे कामाची खोटी. कृष्णा, (बोल्सांतल्यान विडी भायर काडीत) घे. बाटलेपरस ही विडी अदीक सांबाळची पडली. असल्यो विडयो कोण करीना आनी असल्यो विडयो ओडपी मानायूय आतां ना. ह्यो विडयो कोण ओडटा जाणां मरे?

कृष्णा : खबर आसा म्हाका. (घेत) वा! जानोत जाल्या!

गादयेकार : गादयेर पिवपाक आयिल्लो एकलो पोर्ण्या काळांतलो जाणटेलो. ताचेचकडल्यान वळून घेतली. केळीचें सुकिल्लें चार्वट काड, ताचो खोलो काड. सुकय. ताचेर हातान फेर्र मार आनी चुरो घालून वळ. इतल्या कामांक ताणे दोन पाव कडयले.

कृष्णा : त्या मानान विडी सवायूच पडली म्हणपाक जाय. विडयेचोय हिशोब सोऱ्याच्या बिलांतूच घाल.

गादयेकार : म्हणजे हिवूय उदारी? म्हाका दिशिल्लें, घरा हाडून तुकां सोऱ्याची आनी विडयेची डिलिवरी दिल्या म्हणटकूच तूं रोख फारीक करतलो.

कृष्णा : आतां सगळें रोखीनूच फारीक करतां, मागीर सगळो हिशोब मेकळो. कितें गजा? (गाडेकाराक) तुकां म्हणटां हांव.

गाडेकार : म्हाका? आं. हांव समजलों ह्या गजाक. हय हय. सगळें रोखीनूच फारीक केल्लें बरें. केन्ना करता?

कृष्णा : काम जायनाफुडें.

गाडेकार : कसलें काम?

कृष्णा : हेंच, जाची सगळी पूर्वतयारी चल्ल्या.
(गडबडीन भायर वाट पळयता.)

गादयेकार : हाचें कितें चल्लां?

गाडेकार : तें ताचें ताकाच खबर. तुकां सांगलें तें तुवें हाडलां. म्हाका सांगलें तें हावें हाडलां. हाचेभायर म्हाका कांय खबर ना.

गादयेकार : इतलो वगत आमची दोगांय गजांची वाट पळयतालो तें बरें आसा. आतां त्या गजा गांवकाराची वाट पळोवन उपेग कितें? तो बेकारथवय!

गाडेकार : पूण कितें आवशील आसलेबगर कृष्णा अशी फुक्यासवाय कोणाची वाट पळोवपी न्हय. न्हय रे कृष्णा?
(कृष्णा पळयता ते वाटेन कोणतरी येता. ताका पळोवन तो कांचवेता. तो मनीस मुखार येता तसो तसो आपूण फाटीं

सरता.)

**कृष्णा** : आरे, आरे हें कितें? हो कोण?

(मुखार येता तो मनीस म्हणल्यार ताणे माथ्यार एक वल्ली घातल्या. बाकिचो भेस आदल्या दोगांय गजाभशेन. मात आंगार भांगराचे वो आनीक कसले अळंकार नात. वल्ली माथ्यार घातिल्लो मनीस तोंडान कोंब्याचो आवाज काडीत हांगा थंय घुंवडाळ्यो काडटा. दोगूय गजा आनी कृष्णा ताच्या आंगार झुडोन वतात. मागीर माथ्यावयली वल्ली काडटा.)

**तिगूय** : गजा गांवकार!

**गाडेकार** : हांव समजलों खरेंच कोंबो म्हणून!

**गादयेकार** : पळय जाल्यार हो दोन पांयांचो कोंबो.

**कृष्णा** : मागीर कितें कोंब्याक चार पांय आसता तर!

**गांवकार** : आसता तर. सोलचेआदीं कोंब्याक दोन पांय आसतात. सोलतकूच चार पांय जातात.

**कृष्णा** : गजा, कोंबो खंय? खरेलो कोंबो?

**गांवकार** : भायर खुंटयेक बांदून घातला.

**कृष्णा** : बांदून घातला?

**गांवकार** : पांय बांदून खुंटयेक हुमकळायला. भितर हाडूं? कों कों च कोंऽऽ

**कृष्णा** : नाका. ही माथ्यार वल्ली दवरून असो कित्याक आयलो?

**गांवकार** : आनीक कसो येवं? वल्ली आमगेली. ती व्हरता म्हण आवय करंदाय मारपाक लागली. कोंबो शेजाऱ्यालो. ताका धरला म्हण कळ्ळ्यार शेजारी बोब मारीत फाटल्यान लागपाचे. मागीर कितें करतलों? कोंब्याक असो खोमसापोंदाक लिपयलो, माथ्याक हो येरवाणो घातलो आनी धर नळी. गुमची विद्या गूम जाणां, कोण धांवता कोण जाणां! जाणां कृष्णा, ही वल्ली आनी तो कोंबो तुकां फुकट!

**कृष्णा** : (दोगांय गजांक) पळयात गजांनो, ह्या गजा गांवकाराची दानत

पळयात.

**गायदेकार :** ताचें कितें! ताका सगळेंच फुकट. कोंबोय फुकट आनी वल्लीय फुकट.

**गांवकार :** पयली ह्या कृष्णाचें येवजिल्लें काम साध्य जावं दी. सांग कृष्णा, आनीक कितें हाडपाचें जाल्यार सांग. कोणागेर आसा तागेर सावन चोरून मारून, बुड्डून, सुतलासून हाडटां.

**कृष्णा :** गरजेच्या सगळ्यो वस्तू हजर जाल्यो. आतां ह्यो वस्तू हे वल्लेंत वेवस्थीत दवरपाच्यो, तोंमेरेन हांव भायर सरून येतां.

(कृष्णा भितर वता. तिगूय गजा वल्लेंत एक एक वस्त दवरतात.)

**गादयेकार :** ही कांबळ अशी भायर आसूंदी.

**गांवकार :** तो कोंबो शेंकरे फुलोवन वयर वल्लेचेर बसतलो.

**गाडेकार :** वयर बसपाक शिकयिल्लो कीर तर तो?

**गादयेकार :** हो लग्नाचे घरभरवणेचो येरवणो जालो, खांदार घेवपाचो.

**गांवकार :** हे, कृष्णा कोणाच्या लग्नांक वता?

(इतल्यान लोहिता भायर येता. ती भायर सरपाचे तयारेन न्हेसल्या. हातांत च्याचो ट्रे आसा. तातूंत च्याचीं कोपां आसात.)

**गांवकार :** (तिका पळोवन) हय. नक्कीच. कृष्णा कोणाल्या तरी लग्नांक वता, जोड्यान.

**गादयेकार :** लोहिताबाय, कोणाल्या लग्नांक?

**लोहिता :** मस्ण्यांच्या!

**गाडेकार :** (वल्लेक पळोवन) तशें दिसता खरें.

**गांवकार :** खंयचो मस्णो?

**लोहिता :** फोंडांतलो.

**गाडेकार :** आसूं येता. अशीं नांवां आसतात खरीं.

**लोहिता :** (पळयत) हें कितें?

**गादयेकार :** येरवाणो.

**लोहिता** : तो कोणाल्या लग्नाचो?

**गादयेकार** : तुमी वतात त्याच मस्ण्याच्या लग्नाचो.

**गाडेकार** : हय. थंय फोणांत व्हरपाचो.

**लोहित्ता** : हो कोणें हाडला हांगा?

**गांवकार** : हांगा तो तयार जाला. तिगांय जाणांनी एक दोन वस्तू हाडल्यात.

**गाडेकार** : ही कांबळ आनी तें जोतें हावें हाडलां. आनी तें फस्क.

**गादयेकार** : ती बाटली, केळी पानाची विडी म्हजी.

**गांवकार** : ही वल्ली, भायर खुंटयेक हुमकळायला तो कोंबो म्हजो.

**लोहिता** : अं, हाची कसली तरी मांडणी आसतली. च्या घेयात.

**गाडेकार** : लोहिताबाय, च्याचें बरें आसा. केन्नाय एकदीस साबूदाणे घालून बरें मणगणें कर. सामान जाल्यार धाडून दितां.

**गादयेकार** : कितलो तेप जालो, तुज्या हातची कळपुटी खाल्ल्यार. ह्या दिसांनी मोटे बोडकेचें कितेंय नुस्तें मेळ्ळ्यार धाडून दिवं?

**गांवकार** : म्हाका मणगणें आनी कळपुटीत जाय अशें ना. मेथयां पेजूय चलता.

**लोहिता** : करूंया, मणगणें करूंया, कळपुटी करूंया, मेथयां पेजूय करूंया. तुमी जीबो घांसून आनी दांत पाजून रावात. घेयात. (च्याचो ट्रे मुखार करीत–गाडेकार गजाक – ) ही तुकां,

**गाडेकार** : चड साखरेची.

**लोहिता** : (गादयेकार गजाक) ही तुकां,

**गादयेकार** : बीन साखरेची.

**गांवकार** : (ट्रेंतलो कप काडीत) म्हाका कसलीय चलता. च्या जाली म्हणटकूच जाली.

**गाडेकार** : (घोंट मारीत) लोहिताबाय, आजूय कप बदल्ले. च्यायेंत साखरूच ना.

**गादयेकार** : बरोबर, आजूय कप बदल्ले. गोड मॅल जालां.

**गांवकार** : (पित) म्हजी कसली कागाळ ना.

**लोहिता** : जाय जाल्यार परत च्या करून हाडूं?

**गाडेकार** : नाकां, नाकां. परत कप बदलचे ना म्हणपाची गॅरंटी कितें?

**लोहिता** : तुमकां कितें दिसता, हांव मुद्दाम कप बदलतां?

**गादयेकार** : ना, ना. चुकून घडटा केन्नाय.

**गावकार** : त्या कपांचेर नांवांच घालून दवरपाक जाय. एक चड साखर, एक बीन साखर.

**लोहिता** : म्हणजे तुमी हांगासर सदचीं गिरायकां जावपाक सोदता?

**गाडेकार** : लोहिताबाय, च्याचें कितें घेवन बसल्या? तुमी आमचें सदचें गिरायक तें पळयात. कितें गजा?

**गादयेकार** : हय तर. लोहिताबाय, तुमी आमचें गिरायक. ही इतली उदारी आसा ती. सदच्या गिरायकाबगर कोण इतली उदारी सोंसता?

**लोहिता** : चुट्टी लागली तुमचे उदारेक. (गादयेकाराक) हांव कितें सोरो पियेवंक येतां तुमचे गादयेर? (गाडेकाराक) आनी हांव कितें सामान व्हरूंक येतां तुज्या पसऱ्यार?

**गाडेकार** : ना, ना. सामान आपशींच घरा पावता. तूं व्हरपाक कित्याक येतली? खरें म्हणल्यार तुवें आयल्यार जाता. हांव पयलीं तुकां आवीयार करपी. कारण तूं म्हज्या इश्टाची बायल.

**गादयेकार** : बरोबर. इश्टाची बायल म्हण हें सगळें सोसपाचें.

**लोहिता** : कितें सोसपाचें?

**गाडेकार** : हेंच. माल आमचो व्हरप. तोवूय उदारेर. आनी वयल्यान हीं तुजीं उतरां आयकप.

**लोहिता** : कोण सोंस म्हण सांगता? सोसूं नाकात. सगळ्यान पयलीं तुमी आपूण जावन ती उदारी बंद करात.

**गाडेकार** : म्हणजे? आमी कितें घे घे म्हण ताच्या आंगार माल वडयता?

**लोहिता** : ताका एकदां उदार दितकूच संवंय जाता.

**गाडेकार** : पूण आमी उदार दिना जाल्यार तुमचें चलपाचें कशें?

लोहिता : तो हुस्को तुमकां नाकां. आमचे हातपांय मोडूना आजून.

गादयेकार : शी बाबा! जायत्यो बायलो पळयल्यो पूण असली बायल केन्ना पळोवंक ना रे बाबा!

लोहिता : आनी पळोवपाक केन्ना पावोंक नाका गे सायबिणी!

गाडेकार : हांगासल्ल्यान बेगीन कूस मारल्यार बरी. थंय गल्ल्यार गिरायकांची बोब घालून आयलां म्हणल्यार हीं मुक्ताफळां.

गांवकार : सादीं फळां न्हय. लोखणागुळे!

(इतल्यान कृष्णा भायर सरून येता. नवो भेस केला.)

कृष्णा : (बायलेक) तांचेमुखार कितें चल्लां?

लोहिता : नाच! कितें चल्लां म्हणजे? च्याचे कप व्हरपाक रावलां.

(तिगूयजाण बेगीबेगीन च्याचे कप तिगेल्या हातांतल्या ट्रेंत दवरतात.)

कृष्णा : (बायलेक) तूं खंय वचपाक भायर सरल्या?

गांवकार : खंय म्हणजे? लग्नांक.

कृष्णा : कोणाच्या लग्नांक?

गांवकार : आनी कोणाच्या? मस्ण्याच्या.

(लोहिता कप घेवन भितर वता.)

कृष्णा : तुमकां म्हणून बरीं फकाणां येवजता. हें सामान हांवें कित्याक एकठांय केलां तें जाणात तुमी?

गादयेकार : तें तुजे बायलेक लेगीत खबर ना. आमकां कशें कळपाचें?

कृष्णा : म्हजे बायलेच्या तोंडाक लाय चुट्टी!

गांवकार : खरें आं, सामकें खरें.

गाडेकार : तूं म्हणून संवसार करता असले बायलेकडेन.

गादयेकार : बरोबर. हांवबी आशिल्लों जाल्यार–

कृष्णा : कितें गल्ल्यार बसयतलो आसलो?

गादयेकार : गल्ल्यार कित्याक? हिचें तोंड पळोवन गिरायकां पळून वचपाचीं. साटली-पोटली घेवन कुळारा धांवडावपाचों.

कृष्णा : कुळारा वचपाक भायर सरल्या ती.

गादयेकार : आपूण जावन भायर सरल्या जाल्यार हीच संद सादून दी धाडून.

कृष्णा : पूण कुळारा गेली म्हण थंयच रावपी न्हय ती. ती घोवाघरा घांस मारून रावल्या.

गांवकार : घोवाच्या घराक न्हय, घोवाचे मानेक घांस मारून.

कृष्णा : बरोबर. तिका कुळारा न्हय पूण अशें एके सुवातेर धांवडावपाक मेळटा जाल्यार पळयतां. जंय सावन ती परत येवचीना.

गादयेकार : धांवडाय. एक नातर दुसरी. दादल्यांक बायलो उण्यो पडल्या!

गाडेकार : कोणूच मेळना जाल्यार म्हजी आसाच तुकां.

गांवकार : कितें? तुजी बायल?

गाडेकार : म्हजी बायल न्हय. म्हजी वाडून उरिल्ली मेवणी.

गांवकार : पडून उरिल्लो माल खपयता काय कितें?

गादयेकार : पूण कृष्णा, एक सांग, अशी सुवात खंय आसा, जंय सावन गेल्लीं बायलां परत येना?

कृष्णा : ती जागा सोदची पडटली.

गाडेकार : लाय. तूं ते जागेचो सोद लाय. आमी आसाच तुजेफाटल्यान. आमीच कित्याक? समस्त दादले तुजेफाटल्यान न्हय, तुज्या सांगाताक आसतले.

कृष्णा : तुमी म्हाका इतलें सहकार्य केलें, ताचेवयल्यान तुमी म्हजे फाटल्यान न्हय, सांगाताक आसतले म्हणपाचें म्हाका कळ्ळें.

गादयेकार : तशें जाल्यार तुजेर आमी जशेपरी विश्वास दवरलो तेचपरी तुंवूय आमचेर विश्वास दवर.

कृष्णा : म्हजो विश्वास आसाच तुमचेर.

गादयेकार : मागीर सांग, (सामानाकडेन पळोवन) हें गौडबंगाल कितें?

कृष्णा : तशें पळोवपाक गेल्यार हें एक गौडबंगालूच. तसो तुमकां लिपोवन खंय वतलों? केन्नातरी सांगतलों म्हण आसलोंच.

चल, तुमी इतलें सगळें केलां. तुमकां सांगून वडयतां. फक्त कांय गजाली म्हाका बायलेच्या कानार गेल्ल्यो नाका. एक तर तिचो म्हजेर विश्वास ना. आनी बायल तोंडान धड न्हय.

तिगूय : बरोबर.

कृष्णा : तशी ही एक सत्वपरीक्षाच म्हणल्यार जाता. खरेंच सत्वपरीक्षा!

(भितर वता. तिगूयजाण अजापान एकामेकाक पळयतात.)

गांवकार : त्यो तसल्यो सत्वपरीक्षा पुराणकाळांतबी जाताल्यो.

गाडेकार : बरोबर. सीतेन दिल्ली ती सत्वपरीक्षा.

गादयेकार : राजा हरिश्चंद्रान दिल्ली ती सत्वपरीक्षा.

गांवकार : कलियुगांत मात तशें कांय ना. हांगासर सगळ्यो अल्प-सल्प परीक्षा.

गादयेकार : आतां ह्या कृष्णाली कसली सत्वपरीक्षा तें पळोवंया.

(कृष्णा भायर येता. ताच्या हातांत कुराड आसा.)

कृष्णा : ही कुराड कसली ती जाणां तुमी?

गाडेकार : कसली म्हणजे? कुराडीभशेन कुराड. लोखणाची.

गादयेकार : (याद करीत) तुगेल्या घरांत पूर्वजांची एक कुराड आशिल्ली अशें म्हजो बापूय म्हाका सांगतालो.

गांवकार : हय, हय हांवेंय अशेंच आयकल्लें.

कृष्णा : खरें तें. ही म्हगेल्या पूर्वजांची कुराड. आमचो मूळपुरुस कुश्ट कुराडो. ताचेंच नांव म्हाका दवरलां. तर पयलीं आमी कुराडे न्हय. आमी भोरेकार. कुश्ट भोरेकार. कुराडीन लाकडां फोडप आनी भोरे बांदून विकप होच आमचो वेवसाय. एक दीस असोच कुश्ट खांदार कांबळ, खाक्यांत भुती आनी हातांत कुराड घेवन रानांत गेलो. रानांत पावता म्हणसर जाली दनपार. ताका लागली भूक. थंयच एक सुवात निवळ केली. कांबळ पसरायली आनी बसलो जेवपाक. सोडली भुती. भुती म्हणल्यार कितें? तांदळाची भाकरी. कुश्टाक जेवणाआदीं मातशें कुट्ट

(पिवपाची) करपाची संवंय आसली. वांगडा ल्हानशी बाटली व्हरतालो तो. जेवणांक आरंभ करचेपयलीं आपल्या पूर्वजांचे पद्धतीप्रमाण ताणें सोऱ्याचे दोन थेंबे अशे भायर शिंपडले. भाकरेचो चौथायेपरस बारीक कुडको कुशीक दवरलो. जेवलो. धेंकर दिलो. केळीच्या पानांची विडी काडली. ती कानांक आशिल्ली. विडी ओडटां ओडटां ताची नदर मुखार गेली. मुखार गेली म्हणल्यार नदर हांगा थंय भिरभिरतूच आशिल्ली. तर मुखार एक तळें आनी तळ्याचे देगेर एक झाड. कुश्टाक तळ्याचेंय पडूंक ना आनी तळ्यावयल्या झाडांचेंय पडूंक ना. ताका पडलां झाडाचेर सुकलेल्या खांद्यांचें. ताणें हिशोब मांडलो. उण्यांत उणीं चार भोरे लाकडां पडटलीं. विडी तशीच पालयली. कुराड उबारली आनी मारलो झाडाक गोळोव. सकयल तळें. दाव्या हातान झाडाक गोळोव मारला आनी उजव्या हातान कुश्ट खांदो कापता. पूण कटा! जीव सांबाळ्ळो पूण कुराड सांबाळपाक जाली ना. ती पडली उदकांत. खोल खोल खोल. कितें करतलो? तळ्यांत देंवपाच्ची माणुसकी ना. आनी कुश्टाक सगळ्यो विद्या येतात पूण पेंवपाची विद्या येना. हरशीं कुश्टा केन्ना दोळ्यांतल्यान दूक काडपी न्हय पूण कुराड वचप म्हणजे पोटूच गेल्लेभाशेन जालें. घोवान सोडिल्ले बायलेभाशेन लागलो घळाघळा रडपाक. जाल्यार कितें जावचें? गडगडो कसो आवाज– 'रडों नाका बाळका! रडों नाका बाळका!' नदर वयर करून पळय जाल्यार अगडबंब, काळो कुळकुळीत एक मनीस कुश्टामुखार उबो आनी ताका धीर दिता. आनी वयल्यान म्हणटा कसो! 'तुवें दिल्लें म्हाका पावलें. हांव संतुश्ट जालां. हांव तुजेर प्रसन्न जालां!' तर जालें कितें? कुश्टान जेवचेआदीं पळय सोऱ्याचे चार थेंब भायर फाफुडिल्ले ते हो पियेलो. मागीर हाणे तो भाकरेचो कुडको खाल्लो. ती कांबळ सोडून दवरलेली, ताका दिसली

आपल्याकूच. तो तिचेर बसलो. ती विडी ओडली. तो खंय थंयचो जाग्याचो देंवचार. तर देंवचारान कुश्टाक रडपाचें कारण विचारलें ते बरोबर कुश्टान खरें तें सांगलें. हाणें कितें करचें? घबांयच् करून मारली तळ्यांत उडी. मारली बूड उदकांत. एका धपक्यान आयलो वयर. हातांत कुराड. कुश्टाक म्हटलें, 'घे तुजी कुराड.' कुश्टान कुराडीक पळयलें. लागलो परतो रडूंक. कितें जालां? 'ही कुराड चांदीची. म्हजी सादी लोखणाची.' 'अशें?' ती कुराड दवरली थंयच. मारली परत उडी. मारली बूड उदकांत. एका धपक्यान आयलो वयर. हातांत कुराड. कुश्टान कुराडीक पळयले. लागलो परतो रडूंक. 'कितें जालां? ही कुराड भांगराची. म्हजी सादी लोखणाची.' 'अशें?' ती कुराड दवरली थंयच? मारली परत उडी. मारली बूड उदकांत. एका धपक्यान आयलो वयर. हातांत कुराड. कुश्टाक म्हटलें, 'घे तुजी कुराड.' कुश्टान कुराडीक पळयलें. उमेदीन फुल्लो. लागलो नाचूंक. 'ही कुराड म्हजी! म्हजी कुराड लोखणाची!' कुश्टा नाचता. देंवचार ताका पळयता. ताका तोखेता. 'वा! कितलो प्रामाणीक मनीस. आनीक कोणूय जाल्यार?' देंवचार तिनूय कुराडी घेता आनी कुश्टाक दिता. एक ताची स्वतःची, दुसरी एक चांदीची आनी तिसरी भांगराची. अशी हे कुराडीची काणी. ती थंय गांवचे शिमेर आसा ती तळी आमची. आनी ते तळयेवयलो देंवचार लेगीत आमचो. आमच्या जाणटेल्यांनी ताचें थंय पेड बांदला.

**गांवकार** : ही काणी खंयतरी आयकल्लेभाशेन दिसता.

**गाडेकार** : हय. म्हाकाय तशेंच दिसता. भुरग्यांल्या पुस्तकांनी आसाशी दिसता. तीं केन्ना वाचता.

**कृष्णा** : आयकल्या आसतली. वाचल्या आसतली. शिकलेले लोक बरयताना असोच घोळ करतात. खरी गजाल अशी. हांव सांगतां न्हय आनी ही कुराड गवाय आसा.

**गादयेकार :** म्हणजे हें सगळें तुवें देंवचाराक भेटोवपाक एकठांय केलां?

**कृष्णा :** हय. ताचो मान भौमान तो. आयज हांव ताका प्रसन्न करून घेवपी.

**गादयेकार :** आनी कितें मागपी?

**कृष्णा :** कितें मागपी? (आपणाचेरूय खुशी जावन हांसता.)

**गादयेकार :** कुश्टा, हे काणयेचें बरें आसा रे. पूण एक सांग, सगळ्यो मेळून तुगेल्या पूर्वजांच्यो तीन कुराडी न्हय. ही एक तूं नाचोवन दाखयता. पूण उरलेल्यो दोन खंय?

**गांवकार :** एक चांदीची आनी एक भांगराची.

(इतल्यान भितरसावन लोहिता येता. तिच्या हातांत खोल्यांत धापिल्ली भाकरी आसा.)

**लोहिता :** हांव सांगतां, त्यो दोनूय फुंकून खाल्ल्यो. कारण चांदीक मोल आसलें. भांगराक मोल आसलें. आनी ही लोखणाची आसा ती दवरल्या, पूजा करपाक.

**कृष्णा :** पूजा करपाक काय कपलार मारपाक तें दाखोवं तुका?

**लोहिता :** हांचे हुजीर दाखयता?

**कृष्णा :** हांचे हुजीर तूं जर म्हजी आनी म्हज्या घराण्याची अशी इज्जत काडटा जाल्यार तुका वांकडे म्हेडीक वांकडे नेम ह्या न्यायान कितें तें दाखोवचें पडलें ना?

**लोहिता :** खूब पळयल्यात दाखोवपी. घे, ही भाकरी थापल्या. थापतां थापतां तिचें जालें रोट. देवाचाराचें रोट.

**कृष्णा :** हांव जाणांच आसलों तूं भाकरेचें रोंट करतलें म्हणून. आनी म्हाका तेंच जाय आसलें. चल, दवर तें वल्लेंत.

(लोहिता रोंट वल्लेंत दवरता.)

**गादयेकार :** कृष्णा, तूं शुभकार्याक भायर सरला. अशा वेळार बारीक सारीक आनी नस्त्यो भानगडी लावन घेवंक फावना.

**लोहिता :** कसल्यो नस्त्यो भानगडी?

**गादयेकार :** कांय ना, कांय ना.

लोहिता : म्हाका दिसता, तुमी गजाबाबांनी नस्त्यो उठाठेवी करच्यो न्हय. तुमचीं रीणां केन्ना हातार पडटा तितलेंच पळोवचें. (भितर वता.)

गादयेकार : कृष्णा, तुजें गौडबंगाल समजलें. तुज्या हातांत कुराड आनी तकलेंत कितें आसा तेंवूय समजलें.

गाडेकार : म्हाकाय मातशें मातशें समजलें.

गांवकार : म्हाका समजुपाक मातसो वेळ लागता. पूण ल्हवू ल्हवू समजतलें.

गादयेकार : हांव कितें म्हणटां जाणां? ही कुराड घेवन तूं तुजें नशीब बदलपाक भायर सरला. हो सगळो भौमान तूं तुगेल्या देंवचाराक भेटयतलो. ताका प्रसन्न करतलो. आनी हे कुराडीचो प्रयोग करतलो. बरोबर? घडये तूं तिनूय कुराडी घेवन येतलो. ही आसा तशी पुजेक लायतलो. चांदीची आनी भांगराची लाटून आमचीं रीणां फारीक करतलो. हें सगळें बरें आसा. पूण हांव म्हणटा –

गाडेकार : आनी हांवूय तशेंच म्हणटां.

गादयेकार : कितें तें?

गाडेकार : सांग न्हय.

गादयेकार : तर तुजें देंवचाराचें दैवत जर इतलें जागरूक आनी खर आसा – म्हणजे एक वस्त बदलून दिवपाची जर त्या देंवचारामदीं शक्त आसा जाल्यार–

कृष्णा : जाल्यार कितें?

गादयेकार : (हांसत) जाल्यार कितें तें सांग. (दोगांय गजांच्या कानांत सांगता.)

कृष्णा : (येवजीत) कितें?

(इतल्यान भितरसावन लोहिताचो आवाज.)

लोहिता : (भितरसावन) कुराडी घेवन नशीब बदलपाक भायर सरला! तुज्या नशीबाक पडला बुराक. सादो बुराक न्हय. भोकणो. तो

आदीं पुरय. नशीब बदलता नशीब!

**गादयेकार** : आमचें सगळें उलोवणें ही आयकता दिसता.

**कृष्णा** : (नूरा बदलल्या) आनीक कितले दीस आयकता तें पळयतां. (रागान) लोहिताऽऽऽ, लोहिताऽऽऽ.

**लोहिता** : (भायर येत) कितें जालां? आड्डता कित्याक?

**कृष्णा** : भायर सर.

**लोहिता** : खंय? हांव भायर सरिल्लेंच आसा.

**कृष्णा** : तशें जाल्यार चल म्हजेबरोबर.

**लोहिता** : तुजेबरोबर खंय?

**कृष्णा** : कुळारा वचपाक जाय न्हय तुकां? सोडटां व्हरून.

**लोहिता** : सोडटां व्हरून कोणांक ? सुण्यांक?

**कृष्णा** : हय, तीच तुजी लायकी.

**गादयेकार** : (समजायत) कृष्णा, मातशें शांततायेन घे.

**कृष्णा** : (रागान) तूं वगी राव थंय. म्हजे बायलेकडेन कशें वागपाचें तें खबर आसा म्हाका. तुमी गजांनी म्हाका सांगपाची गरज ना.

**लोहिता** : जांव! बरें दिसलें. तूं मनापासून तिडकलो. राव, हांव पोती घेवन येतां. सकाळसावन कांय खावना तुमी. सांजो केला तो घेतां. वाटेर खावपाकूय जालो– व्हरपाकूय जालो आनी दार बंद करतां. (ताकतिकेन भितर वता.)

**गादयेकार** : हें नवेंच दार उकतें जालेंशें दिसता.

(कृष्णा एक एक सामान उखलता. म्हणल्यार कांबळ खांदार वडयता. वल्ली उबारून खांदार घेता. तिगूय गजा ताका आदार करपाक मुखार येता. तो रागानूच तांकां नाका म्हणटा.)

**कृष्णा** : कोणे आदार करपाची गरज ना. कुशीक सरात सगळे.

**गांवकार** : तो कोंबो भायर आसा. खुंटयेक.

**कृष्णा** : (रागानूच) खबर आसा रे म्हाका, गांवावयल्या कोंबेकारा. (लोहिता भायर येता. हातांत कपड्यांची पोती आसा.)

**लोहिता** : (लागोळेपणान) धनयां, तुजेकडलें हांव कितें घेवं?

कृष्णा : नाका, नाका. तुकां त्रास जातलो. चल.

(दोगांय जोड्यान आनी उमेदीन भायर सरून वतात. तिगूय गजा तांकां अजापान पळयत उरतात.)

(काळोख.)

## देखाव – तीन

सुवात : आदलें पेड

वेळ – सकाळ उपरांत केन्नातरी. भायरसावन देंवचार येता. आदलोच भेस. भोंवडी मारून पुरो जालां. भुतांक सोदयता.)

देंवचार : आरे ए खेत्र्याऽऽ ओऽऽ मुंज्याऽऽ आरे ए निम्म्याऽऽ खंय गेले रे सगळे?

(पयसुल्ल्यान तळयेंक्टेंतल्यान आवाज.)

मुंजो : देंवचारमामऽऽ हांव मुंजो हांगा आसा तळयेंत.

(वयर झाडार सावन आवाज.)

खेत्री : देंवचारमामऽऽ हांव खेत्री हांगा आसा झाडाचेर.

देंवचार : आनी निम्म्याऽऽ तूं खंय आसा? हेऽऽ निम्म्याऽऽ

निमो : (धांवत येता.) देंवचारमाम, हांव हांगाच आसा पेडाकडेन. कंदां उस्तितालों.

देंवचार : शाणो तो! पेड सोडून खंय वचना.

निमो : म्हाका भंय दिसता.

देंवचार : तें मात एक बरें न्हय.

निमो : कितें तें?

देंवचार : भंय दिसता म्हणटा तें.

निमो : हांव ल्हान आसा न्हय रे.

देंवचार : तूं ल्हान आसा तें खरें. आनी तूं असो ल्हानूच उरतलो.

निमो : अशें कशें?

देंवचार : तुका सांगलें मरे एकदां.

निमो : कितें?

देंवचार : तूं मेला म्हणून!

निमो : (रडून) देंवचारमाम, परत परत म्हाका कित्याक चाळयता - हांव मेलां मेलां म्हणून? खरेंच हांव मेलां? हांव मेलां म्हणजे कितें जालां? हांव हो पळय, काय बरो उलयतां. हाऽऽ हा करून हांसतां. ओऽऽ ओ करून रडटां. हो पळय काय बरो चलतां, धांवतां. उडयो मारतां. (तशें करताना पडटा. सांवरता.) सगलें मनशाभशेन करतां. मागीर हांव मेला कसो?

देंवचार : खरें तुजें. म्हणजे तूं उलयता, हांसता, रडटा तें खरें. पूण तें तुजेपुरतें, तुजेखातीर. आतां पळय, तूं उडयो मारताना पडलो. तुकां दुखलें?

निमो : ना. मात्तूय दुकूंना.

देंवचार : तूं जितो मनीस आशिल्लो जाल्यार तुकां दुखतलें आशिल्लें. आनी एक सांग, तुकां तान लागता?
(तो मानेन ना म्हणटा.) तुकां भूक लागता? (ना म्हणटा) मागीर जालें!

निमो : म्हाका आतां केन्नाच घरा वचपाक मेळचें ना? म्हज्या आवय बापायक मेळपाक मेळचें ना? म्हज्या आकाक, मोगाच्या आकाक म्हाका केन्नाच पळोवपाक मेळचें ना? सांग रे देंवचारमाम, ना जाल्यार हांव तुजेकडेन केन्नाच उलोवचो ना.
(देंवचार ताका थापटीत समजायता. कडेक वचून मुंज्याक उलो मारता.)

देंवचार : मुंज्याऽऽ कितलो वेळ न्हातलो रे तळयेंत? वयर सर. (निम्याक)

ह्या मुंज्याक उदकाची इतली ओड कित्याक ती खबर आसा न्हय? (निमो सांवरूक ना. मानेनूय ना म्हण सांगता.) उदकांत बुडून मेल्लो तो. मेलो आनी मुंजो जालो. मुंज बांदिल्ली ताची. आनी हो खेत्री सदांच झाडार कित्याक तें कळ्ळें?

(निमो मानेनूच ना म्हण्टा.) झाडावयल्यान पडून मेल्लो तो. रगताचे व्हाळ. असो अपघातान मेलो म्हणून खेत्री जालो. आतां ताका रगताची चटक लागल्या. झाडार चडून तो त्या सवण्यांक धरून खाता.

**निमो** : म्हाकाय अजाप ताचें. तो खांदयेर बशिल्ल्या सवण्यांक धरता कसो? हरशीं सवणीं मनशाक पळयतकूच उडून वतात.

**देंवचार** : (हांसत) तेंच. तो मनीस न्हय. तो सवण्यांक दिसना.

**खेत्री** : (पयसुल्ल्यान – झाडावयल्यान) देंवचारमाम, चानयेक धरून खावं?

**देंवचार** : (निम्याक) पळय, सगळीं सवणीं खावन जालीं. आतां चानयांकूय खावपाक लागलो. (उलो मारून) खेत्र्या, सकयल देंव पयलीं. थंय हागेलीं घरचीं हाका वर्साचो कोंब्याचो मान बी दिना देखून हो असो रगताक संवकला. तुजें बरें. तुजे घरचीं नित्यनेमान तुकां वाडी दवरता. देखून तुजी कसली कटकट ना.

**निमो** : झाडावयल्यान पडत म्हणून ताका मात भिरांत ना.

**देंवचार** : आतां कसली भिरांत? एकदां·तो पडून मेलो.

**निमो** : आनी मुंज्याकूय उदकांत बुडपाची भिरांत ना तर?

**देंवचार** : नाच. आनी तुकां तरी कित्याक आसची? एकदां तीं विखारीं कंदमुळां खावन तुजें जावपाचें तें जालें. आतां कितलींय उस्तून खाल्लीं म्हणून कांय एक फरक पडना. आतां जमनीर पडल्यार तुकां लागना. झाडावयल्यान पडलो जाल्यार कशें लागतलें? तशेंच उदकाचें.

**निमो** : म्हणटकूच आमी मनीस न्हय तर?

(तळयेकडसून मुंजो आनी दुसरेकडसून खेत्री येता.)

देंवचार : न्हयच जाल्यार. तूं निमो, हो मुंजो, हो खेत्री. तुमी सगळे पिशाच्च योनींत पावल्यात म्हणजे भुतां जाल्यांत, भुतां.

निमो : आनी तूं देंवचारमाम. तुंवूय आमचेभाशेन भूत?

देंवचार : ना.

निमो : मागीर तूं कोण तर? मनीस काय न्हय. देव?

देंवचार : ना. हांव मनीस न्हय, भूत न्हय आनी देवूय न्हय. भूत आनी देव हांचेमदलो हांव. तशें पळोवपाक गेल्यार हांव हांगचें पयलें दैवत. बांयगिणी, बोडगिणी आमचे दायजी आसात. ते आतां देवपदाक पावपाकडेन आयल्यात.

खेत्री : देंवचारमाम, तुजोय एक दीस असोच देव जातलो. तुका हें पेड बांदलांच. पेडार ही घुमटी बांदल्याच. एक दीस ताचें देवूळ जातलें. पळय तूं.

मुंजो : आनी तुवें वाचलां? (पेडाकडेन दाखयत) थंय तुगेल्या भक्तांनी कितें बरयलां तें?

देंवचार : म्हाका खंय रे वाचपाक कळटा?

मुंजो : निम्या, देंवचारमामाक वाचून दाखय तें.
(निमो थंय वचून मोट्यान वाचून दाखयता.)

निमो : श्री तळेश्वर प्रसन्न.

देवचार : म्हणजे कितें?

निमो : म्हणजे देवा तळेकारा पाव!

देंवचार : म्हणजे तळेकार देंवचाराचो तळेश्वर जालो!

खेत्री : देंवचारमाम, सगळ्याक अशेंच जालां. वाटेवयलो वाटेश्वर जाला. झऱ्यावयलो झरेश्वर. खडपाकडलो खडपैश्वर जाला. तिस्कावयलो तिस्केश्वर.

निमो : आनी व्हॉल्तावयलो व्हॉल्तेश्वर!

देंवचार : मनशांचेर सांवार आयला म्हणटा तो खरो.

मुंजो : आमी मरून बऱ्याक पावले. न्हय खेत्र्या?

खेत्री : हय तर. ह्या निम्याचें मात तशें ना. ताका आजून मनीस जातीविशीं आपलेपण आसा.

देंवचार : भुरगो न्हय रे तो, तश्यो वासना उरतात. तुमी दोगांयनी ताका मातसो सांबाळपाचो.

मुंजो : आमी ताची कितली अपुरबाय करतात, ताका फाटल्या फुडल्यान राखता. न्हय रे निम्या?

(निमो खोशयेन मान हालयता. खेत्री आनी मुंजो गीत गावन नाचपाक लागता. निमोय तांचेबरोबर नाचता. देंवचार कवतुकान तांकां पळयता. पेडाकडेन येता. कांबळ, दांडो एका जाग्यार दवरता. व्हाणो काडटा. विडी पेटयता.)

**निमो! निमो! निमो!**
**केन्ना गडगड केन्ना बोवाळ**
**नातर आपलो घुमो ।।**
**धांवपाक वारो ना ताका थारो**
**नातर केन्ना धिमो ।।**
**नदर निम्याचेर वांकडी तिकडी**
**ताचो करतले खिमो ।।**
**बारा वर्सां जावचे आदीं**
**मर्णान घेतलो उमो ।।**

निमो : देंवचारमाम, आयची भोंवडी कशी जाली?

मुंजो : तूं सकाळफुडें मारून (सोरो पियेवन) कित्याक वता?

खेत्री : तशे गांवांत वाड्यावाड्यार एकलो एकलो आसतलो. तांकां सकाळीं कुट्‌ट केलेबगर उबें रावपाक जायना. पियेना जाल्यार तांच्या हाता पांयांक सुट्‌टा थरथरो.

निमो : देंचारमाम, तुजेंय तशेंच. म्हणजे सकाळीफुडें कुट्‌ट करता त्या देंवचारांभशेन?

देंवचार : ना रे बाबा. हांव पियेतां ताका आसा एक कारण. हांगा कोणूय सूर रोंट घालता म्हणटकूच अनायासान मेळटा. पूण हांव फांत्या आदीं पियेतां ताचें कारण वेगळें. तुमकां खरें सांगू? म्हाका पळय कितें कितें पळोवचें पडटा, तातूंत तकली भणभणटा. म्हणटकूच आदींच थोडेशें मारून वतां. मागीर कितेंय पळयलें जाल्यार व्हडलेशें लागना.

मुंजो : कितें पळोवचें पडटा तुका?

निमो : देंवचारमाम, फांतोडेर भोंवडी म्हणजे तुजी ड्युटीच कशी.

देंवचार : पूण ती फक्त भोगावळ उरल्या. तुमी जाणां, ती चिंचेआळींतली पायण? थंय पयलीं पायणीवटेन कोणूच घराचीं जनेलां, आगाशीबी दवरीनासलीं. घराक माळी काडीनासलीं. कित्याक जाणां? हांव फांतोडेर तेंवटेन वतां म्हणून. आतां सगळे दवरता.

मुंजो : दवरल्यार कितें जालें?

देंवचार : बरोबर. त्या पायणीकारांक विचारल्यार तेवूय तेंच म्हणटले. दवरल्यार कितें जालें? दवरात. आनी जनेलांतल्यान, आगाशेवयल्यान, माळयेवयल्यान कोयर वडयात, हळशीक वडयात. थुंकतात, हांव वतां पोंदच्यान.

तिगूय : (समजून) अशें! अशें!

देंवचार : कितलो सांबाळून वचचो पडटा जाणां?

निमो : तुवें एक सत्री व्हरपाक जाय.

देंवचार : म्हजी कांबळ. सत्र्यो मनशांच्यो आनी देवांच्यो.

निमो : तेंवूय खरें.

देंवचार : हांव तुमकां सांगतां, आदलें कांयच उरूंक ना. फक्त आदलो उरलां तो हांव एक देंवचार. आदले मनीस उरूंक ना. घरां उरूंक ना. वाडे उरूंक ना. गांव उरूंक ना. पयलीं ह्या आखख्या गांवाक एक म्हजी राकण पुरो जाताली. म्हज्या भरवंशाचेर लोक दारांक कुलपां लेगीत लायनाशिल्ले. आतां कांय उरूंक

ना. घरांच्या दारांक चार चार कुलपां. घर बांदचेपयलीं घरा भोंवतणी दुर्गां उबारतात. वयल्यान गांवांत रातभर पुलीस! आतां म्हाका कसलें काम उरलां तें सांगात.

मुंजो : पयलीं तूं शेणिल्ल्या गोरवांक गोठ्यांत हाडून सोडटालो खंय?

देंवचार : खरें तें. आतांय गोरवां शेणटात. मार्गाचेर हांगा थंय गोठण करून आसतात. तांकां तांच्या जाग्यार सोडटलों म्हणल्यार गोठे खंय आसात? दूद काडटात आनी गोरवांक मार्गार सोडून दितात. गोरवांच्या गोठ्यांनी रावतात मनशां.

खेत्री : तूं भोंवडी करता ती वाट तरी निवळ आसा?

देंवचार : कसली निवळ! आपाल्याला घरांतलो कोयर काडून भायर वडोवपाचो. घर निवळ. मार्ग म्हेळो.

मुंजो : तांकां जर कोणांक पडलेलें ना जाल्यार तूं गांवांत वताच कित्याक? बस हांगासर.

देंवचार : सांगलें न्हय ती भोंवडी म्हणल्यार एक भोगावळ उरल्या. आनी पळयिल्ले भितर लोकांक हांव हांगासर पेडारूच आशिल्लों सोयीचें दिसता. तुमी पळोवंक ना बुधवार आयताराक कोण कोण येतात ते. कोण कांबळी घेवन येतात, कोण व्हाणों घेवन येतात. सोरो-रोंट तर आसाच.

निमो : आनी देंवचारामाम, तुकां हारोहार कांबळी घेवन येतात तो कसलो उत्सव?

देंवचार : पंचवर्सुकी उत्सव. पूण तो भौतेक तीन-चार वर्सांनी परत परत जाता.

मुंजो : त्या वेळार एकलो एकलो पंगडा पंगडांनी तुज्या पेडाकडेन येता.

देंवचार : हय. पूण एका पंगडांत कितलेय लोक आसूं कांबळ मात एकूच घेवन येतात. वेंचणुकेक उबे राविल्ले उमेदवार म्हणटात तांकां. तशे आठ-धा उमेदवार येतात म्हज्या पांयांकडेन. पूण काम

१३६५

मात म्हाका एकल्याचेंच करचें पडटा.

मुंजो : म्हणजे?

देंवचार : म्हणजे कोणांक तरी एकल्याकूच हांव वेंचून येवपाक मदत करतां. त्यो पळय, कितल्यो कांबळी.

खेत्री : दर फावटीं जर तूंच एकल्याक वेंचून धाडटा जाल्यार एक दीस तूंच कित्याक वचना थंय?

देंवचार : हांव कित्याक? लोकांक म्हजें नांव याद जातलें अशें काम करतात ते. मागीर लोक म्हणटात लेगीत – हें देंवचाराचें राज्य! म्हाका आनीक कितें जाय?

निमो : देवचारमाम, तूं गांवांत भोंवडेक वचपाचें खऱ्यानींच बंद करतलो?

देंवचार : तुकां हुस्को कित्याक?

निमो : तूं गांवात वतकूच म्हाका म्हज्या घरची खबर मेळटा न्हय रे? देखून.

देंवचार : निम्या, तुका कितले फावटी सांगलें. आतां घराचो मोह सोड. बरें न्हय तें. तूं आतां मनीस उरूंक ना. भूत जाला. भुतान अशें वागूंक फावना.

(खालतेपणान मान खाला घालता.)

गेल्लों तेवटेन. तुजो बापूय आनी आवय सामकीं जाणटीं जाल्यांत. लागीं आयल्यांत. एक दीस आसा तांचें.

(रडकुऱ्यां येता.)

रडपाक कित्याक जाय? तीं मरून खंय वतलीं? हांगाच येतलीं मरे? मरतकूच तुकां येवन मेळटलीं.

निमो : (साबळेपणान) तशें जाल्यार देंवचारमाम तीं बेगीन मरूं!

देंवचार : तशें म्हणना. तूं हांव सांगतां तशें कर. घराची, घरच्या मनशांची ओड उणी कर.

(मुंजो आपल्या घरची खबर आयकूंक रावला.)

देंवचार : नाजाल्यार ह्या मुंज्याक पळय.

(देंवचार ताची नुरा पारखिता.)

मुंज्या, तुंवूय ह्या निम्याभशेन भुरगेपणांच करता मरे. तुकांय तुज्या घराची खबर जाय न्हय?

(मुंजो मानेन हयकार दिता.) तुगेलीं सगळीं बरीं आसा. हय रे. बरी आसा. भयणिचें लग्न जालां. भावाची खबर विचारता मरे? (तो हय म्हणटा.) तागेली पीडा बरी जावपाची न्हय. तो मरतलो तेन्नाच ते पिडेंतल्यान भायर सरतलो. थंय बऱ्या बऱ्या वैजांनी ताचे पिडेमुखार दिमयो तेंकयल्यो. पूण शक्य जालें ना. जाली तुज्या घरची खबर. आनी खेत्र्या.

(इतलो वगत वगी आशिल्लो खेत्री निम्या आनी मुंज्याची खबर आयकताना अस्वस्थ जाता. देंवचारान उलो मारतकूच तो धांवत कसो पेडाकडेन वता आनी थंयची सोऱ्याची बाटली काडून तोंडांक लायता. आनी घटाघटा पियेता.)

**खेत्री** : सांग. आतां म्हज्या घरची गजाल सांग. आयकुपाक हांव समर्थ आसां.

**देंवचार** : खेत्र्या, वगीच असो खंकाळ जांव नाका तूं. तो सोरो पियेवन उपेग कितें?

**खेत्री** : तो पियेतकूच कितेंय आयकुपाचें धाडस येता म्हाका.

**देंवचार** : धाडस येता पूण तें सोऱ्याक लागून न्हय. आतां सोऱ्याचो तुजेर कांयच परीणाम जावपाक ना. तूं तीं सवणीं-सावजां मारून खाता म्हणल्यार तुजें पोट भरता? ना. मुळांत तें पोट भरपाक रितें नाच. पूण लक्षांत दवर, आनी लक्षांत दवरपाक जाय आसलें तेन्ना तुवें तें दवरलें ना.

**खेत्री** : कितें तें?

**देंवचार** : त्या सोऱ्यान तुजो घात घेतलो. तूं पाडेली, झाडार चडपी. सोऱ्याक घोंट मारून तुवें झाडार चडपाक फाव नासलें.

**खेत्री** : सोऱ्यान न्हय, ते... ते बायलेन म्हजो घात घेतलो.

**देंवचार** : तुज्या सारख्या बेबद्याकडेन कसो करपाचो तिणें संवसार?

खेत्री : म्हणून, म्हणून तिणें अशें धा कडेन शेण खावपाचें?

देंवचार : ती तिची चलणूक उजू अशें हांव म्हणचो ना.

खेत्री : कायलोळ्यो करपी बूदवंत मनशाभशेन उलोवं नाका. देंवचार तूं. सारखो नीत–निवाडो करपाक जाणां तूं.

देंवचार : तिचें चुकलेंच. पूण ताळी एका हातान वाजना.

खेत्री : हांव जाणांच. तूं देंवचार. तूं सदांच बायलांवटेन. रातीकातीचीं, रानांकानांतल्यान कुळारा येवपी धुवांक वाट दाखोवपाचें काम तुजें. 'पाव रे देंवचारा!' म्हणून सुनांनी उलो मारल्यार तूं थंय धांवून वचपी. तुकां आमचें दादल्यांचें खंय पडलां? हरशीं तूं पाड्याक लिपोवपी, गड्यांक लिपोवपी देंवचार! म्हजी बायल वायट गुणाची आसा हें तुकां खबर आसलें. तिचें पावल वांकडें पडलां तेन्ना मारला केन्ना दांडो तुवें तिच्या कपलार आनी हाडली तिका जाग्यार? म्हजे नदरे अस्वडीं गेली केन्नाय शेण खावंक जाल्यार तुवें तिका लिपयल्या केन्ना? तूं फक्त पाडे लिपयता, गडे लिपयता. (रडपाक लागता.) सांग, सोपूत आसा तुकां, आयज तुवें फांतोडेर म्हगेल्या घरा कितें पळयलें?

देंवचार : तुगेल्या घरांतल्यान दुर्गावयल्यान एकलो दादलोमनीस उडी मारून गेलो.

खेत्रा : कोण तो? सांग, सवण्यांचे गंवटेक घांस मारतां तसो घांस मारून जीव काडटां ताचो.

देंवचार : तूं वळखुचो ना ताका. केन्नाय हेवटेन आयल्यार दाखयन तुकां. पूण आतां ताचो उपेग कितें?

खेत्री : आयज फांतोडेर तुवें जो मनीस पळयिल्लो तोच मनीस काल पळयिल्लो?

देंवचार : ना. कालचो दुसरो.

खेत्री : आनी पयर?

देंवचार : हय. पयरचो तिसरो.

**खेत्री** : आनी फाल्यां पळयतलो तो चवथो. मागीर पांचवो, सवो! कितें कितें चल्लां हें! तिगेले थेर पळोवं नजो म्हणून सोरो पियेलों हांव. तसोच आंब्यार चडलों आनी घेतलें घालून. मरून एकदांचो सुट्टलों म्हणून, जाल्यार हांगासरूच तोच गळ्याक फांस. थंय जिणेंकूय अर्थ ना आनी हांगा मर्णाकूय अर्थ ना. देंवचारा, हांव तुज्या पांयां पडटां. ती फांतोडची भोंवडी बंद कर. तूं तें पळोवंक पावचो ना, घडटा तशें म्हाका सांगूक पावचो ना, आनी हांव निदान तें आयकूंक पावचो ना. हांवें सांगलां तशें जायना जाल्यार हो जीव – न्हय ही भूतयोनी कशी सोंपोवपाची तें म्हाका सांग. हांव तुज्या पांयां पडटां. तुज्या पांयांर घालून घेतां.

(देंवचाराच्या पांयार घालून घेता. देंवचार ताका मायेन उबारता, आनी मुंजो आनी निमो हांका खुणावन ताका शांत करपाक तांचे स्वाधीन करता. ते दोगूय ताका उबारून कडेक व्हरतात. दोगूय शांतीचें गीत गावन संथपणान नाचपाक लागतात.)

**शांती रे! शांती रे! शांती रे! शांती!**
**मसंडभुयेंत दडून आसता उमाशेचे राती**
**पटापट पालोवन घाला, काळजांतल्यो वाती**
**तटातटा तोडून दिया, नातीं आनी गोतीं**
**सगळें फट एकूच खरें, गोबोर आनी माती**

**मुंजो** : देंवचारमाम, आमचेमदीं तूंच सुखी. आमकां दर एकल्याक स्वतःचें दुःख आसा. आमी मेले तरी तें दुःख आमची फाट सोडीना. तुजें मात अशें ना. तूं मनीस न्हय देखून तुकां मरण ना. मरण ना म्हण तुकां भूतयोनी ना. तूं अमानवी योनी.

**देंवचार** : अमानवी म्हणटा तें खरें. घडये फुडाराक म्हाका देवगतीय लाबत, जशी म्हगेल्या बाकीच्या दायजी देंवचारांक लाबल्या.

पूण म्हाका दुःख ना म्हणटा ती गजाल सारखी न्हय. सगळ्याच झाडांचीं फळां लांबनात वो पयसुल्ल्यान दिसनात म्हणून त्या झाडाक फळांच ना अशें म्हणपाक जावचें ना. ह्या तळ्यांतल्या मानग्यांची दुकां कोणांक दिसतलीं! म्हज्याय दुःखाचें तशेंच.

**निमो** : कसलें दुःख तुकां देंवचारमाम?

**देंवचार** : कदिमकाळा हांव ह्या वाठारांत पावलों. कोणे वाटसुऱ्यान दिल्ल्या भाकरेच्या कुडक्यान, सोऱ्याच्या थेंब्यान, विडयेच्या शेंवटान आनी कांबळीचे उबेन हांव संतुश्ट जालों. त्या मनशाचें कल्याण जावचें ह्या उद्देशान हांवें ताका उखलून म्हणटा तश्यो वस्तू दिल्यो. कितलीं वर्सां जालीं. कितल्यो पिळग्यो जाल्यो. हांव ताची, तागेल्या वंशजांची वाट पळयत आसां. कोणतरी आयज येतलो, फाल्यां येतलो. पूण आजूनमेरेन कोण ना. हे धर्तरेचेर तुमचो जसो कोण तरी मायेचो आसा – आनी तुमी ताचेखातीर तळमळटात तसो म्हजोय कोणतरी आसा आनी हांवूय ताचेखातीर तळमळटां.

**मुंजो** : तूं तुगेल्या कुश्ट कुराड्याविशीं उलयता न्हय? आनी ताका तुवें दिल्ले कुराडीविशीं?

**देंवचार** : हय. म्हाका कुराडींचो हुस्को जाला अशें समजूं नाका. कुश्टाल्या वंशजाचो हुस्को जाला.

**मुंजो** : देंवचारमाम, सगळ्या प्राण्यांमदीं मनशासारखो पडमूर प्राणी दुसरो ना. आमी सुटले तातूंतल्यान. न्हय रे खेत्र्या?

**खेत्री** : बरोबर.

**निमो** : (हुंगत) देंवचारमाम, देंवचारमाम खंयच्यान तरी जित्या मनशांचो वास येता.

**मुंजो** : मेलो तरी ह्या निम्याचें नाक बरें आसा.

**निमो** : आसा म्हणजे. हांव तुज्या मुंज्याभशेन नाका तोंडांत उदक रीगून मरूंना आनी ह्या खेत्र्याभशेन वयल्यान पडून नाक चेंचून मरूंना.

देंवचार : कोणतरी येता खरो. म्हाकाय पावलांची सुलूस लागली. तुमी वाटेवयले कडेक सरात. हांवूय कडेक सरतां.

(निमो, मुंजो आनी देंवचार कडेक सरतात. थोड्या वेळान कृष्णा आनी लोहिता येतात. तीं चलून चलून खर्शेल्यांत. कृष्णाच्या माथ्यार खांदार सामान आसा. लोहिता ताका सामान सकयल देंवोवपाक आदार करता. लोहिता आपली पोतीय सकयल दवरता.)

कृष्णा : पावलीं एकदांचीं. म्हजो अदमास चुकचो ना.

लोहिता : आनी चुकलोय जाल्यार थोडो वेळ विसव घेतलेबगर हांव हांगचें हालचें ना. म्हाका हो वांठार खूब आवडलो. पयलीं म्हाका तुजो दुबाव आयलो. कुळारा व्हरपाच्या निमतान म्हाका खंय व्हरता काय म्हणून. ही वाट अनवळखी आसा खरी. पूण खूब सुंदर!

कृष्णा : हांव जाणांच आसलों, तुकां ही वाट मानवतली म्हणून. हांगच्यान त्याऽऽ दोंगरावटेन गेलीं म्हणजे मागीर पावलीं तुज्या कुळारा.

लोहिता : आनी तुगेल्या मावोड्या.

कृष्णा : हांव मावोड्या पावतलों काय कितें तें खबर ना, पूण तूं मात कुळारा नक्की पावतली.

लोहिता : आनी तें तुगेलें तळें खंय? आनी तें पेड आनी तळेकार देंवचार?

कृष्णा : सगळें जागच्या जाग्यार आसा. हें पेड. तें तळें. आनी तळ्यावयलो देंवचार रोखडोच दर्शन दितलो.

लोहिता : तूं पेडार तकली तेंकय आनी पोटभर घे दर्शन तुगेल्या देंवचाराचें. म्हजो असल्या गजालींचेर विश्वास ना. हांव हें तळें पळोवन येतां.

(तळ्याकडेन वता. कृष्णा सगळें सामान व्हरून पेडार दवरता. कुराड हातांत घेता. दोळे धांपता. हात जोडटा आनी देंवचाराक

गाराणें घालता.)

धनयां देंवचारा,

कोणा वेळाक, कोणा काळाक तुवें कशे रितीन जागभाक दिल्ली, शब्द दिल्लो त्या शब्दाचो तूं आठव कर म्हाज्या सायबा...

कोणा वेळाक, कोणा काळाक घडना तें घडोवन, वठना तें वठोवन मेळना तें मेळोवन दिवपी तूं, कैक किर्तिचो देंवचार तूं सायबा...

तूं काळाचो म्हाकाळ, खोट्याचो वस्ताद, अशे कैक किर्तिचो देंवचार तूं सायबा....

तूं काळाक शिक्षा करणारो, रोग्याक अमृत पाजणारो, तुटलेलें गाठयणारो, शेणलेलें सोदून दिणारो अशे रितिचो कैक किर्तिचो देंवचार तूं सायबा...

न्हिदलेल्यांक जागे करणारो, मोन्यांक उलोवंक लावणारो तळपट्या सड्यार रक्षण करणारो, अशे रितिचो कैक किर्तिचो देंवचार तूं सायबा...

आठ चौक बारा पाने, पांचशी पिळगी ल्हयल्हंयावेळ, हें बाळक तुकां शरण आयलां सायबा...

त्याप्रमाण तुवें कोणा वेळाक, कोणा काळाक, जाणां खुळ्याक मेळयिल्ले, पिश्या खुळ्यांक सामील केल्ले, तेणें करून पै-पातक फेडून घाल, अन्नवस्त्र दी, तुज्या पांयाची शेवा-चाकरी करून घे, मनातल्यो इत्सा सफळ कर आनी बरें कर सायबा...

(गाराणें चालू आसताना देंवचार ल्हवू पेडाकडेन येता. कृष्णा गाराणें सोंपोवन तकली बागोवन पेडार दवरता आनी तसोच रावता. देंवचार सामान पळोवन भुल्लुसता. खोशयेन फुलता. भुतांक उलो मारता.)

**देंवचार** : खेत्र्या ऽऽ मुंज्या ऽऽ निम्याऽऽ बेगीन येयात. कोण आयला

पळयात. ताणें म्हाका कितें हाडलां पळयात.

(खेत्री, मुंजो, निमो धांवत येतात.)

पळय म्हजो भक्त आयला. कुश्ट कराड्याचो वंशज. ताणे कितले भक्तीन कितें कितें हाडलां पळयात. (काडीत) हो कोंबो! खेत्र्या, हो धर तुकां. खा बरो.

(कोंबो काडून मोखून वडयात. तेसरशीं कोंब्याचो कोंऽऽ कोंऽऽ आवाज. कोंबो हांगा थंय धांवता अशें धरून खेत्री धांवता. धांवत धांवत भितर वता. मागीर कोंब्याची गंवटी आंवुळ्ळ्या उपरांत कोंब्याचो निमाणो आवाज.)

देंवचार : काय बरी नवीताल्ल कांबळ हाडल्या पळय म्हाका. हरशीं इतल्यो कांबळी आसात पूण आपल्या आवडत्या भक्तान दिल्ले कांबळीची ऊब वेगळीच. आनी हो व्हाणांचो जोड.

मुंजो : कोल्हापुरी मरे!

देंवचार : म्हाका सामकी गरज आसली. ह्यो व्हाणों सामक्यो झरिल्ल्यो. सद्दां एक पासय जाता न्हय रे. आनी म्हज्या पांयांकूय बऱ्यो बसतल्यो. हे बाकिचे लोक म्हाका कसल्यो व्हाणों दितात पळय. हे आंगुळभर व्हाणांचे जोड.

मुंजो : देवाक म्हणटकूच ते तेदेच करतात.

देंवचार : देवाक दिवंचे रे ते तशे बारीक, पूण म्हाका देंवचाराक इतलें बारीक कित्याक ? हांव प्रत्यक्ष वापरपी न्हय ते. (काडीत) आनी ही विडी पळय. केळीच्या पानाची. कशी लक्तुबायेन वळून बांदल्या पळय. वांगडा हें फस्क.

मुंजो : आनीक कांय ना?

देंवचार : ना कित्याक? (काडीत) ही बाटली.

मुंजो : देवचारमाम, कितें मिस्तुरादबी ना मरे?

देंवचार : रंगूच सांगता. सामकें निवळ. नवसागरबी कांय ना. कारण म्हजो भक्त तसलें हाडपी न्हय. तो मनाचो शुद्ध.

मुंजो : आनींक कितें आसा पळय.

देंवचार : रोंट! आजून हुनसाण आसा.

मुंजो : म्हाका रोंट खूब आवडटा.

देंवचार : सगळेजाण वांटून खावंया. मुंज्या दर एकल्याक एक एक चौथाय दी. घे.
(रोंट ताचेकडेन दिता.)
(वल्ली परती करून) जालें. सगळें जालें!

मुंजो : आतां ही वल्ली कितें करतलो?

देंवचार : (पळयत) वल्ली? आं. तिवूय ताणें मोटे चत्रायेन हाडल्या.

मुंजो : कसले चत्रायेन?

देंवचार : ह्या शिगम्यांक म्हाका ती उपकारतली. शिगम्याचे पुनवेक म्हाका दोंगरार गड्यांक चूड दाखोवची पडटा. चूड दाखय – लीपय करपाक खूब कसरत करची पडटा. आतां वल्ली मेळ्ळी. आतां बरें!

मुंजो : आतां बरें म्हणजे?

देंवचार : (दाखयत) पळय, (हाताची मूठ करून) ही चूड. ही चूड अशी वयर करून दाखोवपाची. मागीर अशी वल्लेंत धरपाची. (वल्लेभितर चूड घालून दाखयता.) मागीर एके सुवातेवयल्यान असो दुसरे सुवातेर धांवून वचपाचो. थंय चूड भायर काडपाची. पयस सावन पळयतल्याक दिसता, चूड आत्तां हांगां दिशिल्ली. मागीर थंय दिसली. चमत्कार!

निमो : वा! गूड आयडिया!

मुंजो : ह्या देंवचाराच्यो चुडी अशोच दाखयातात काय कितें?

देंवचार : पयलीं आमी देंवाचरूच दाखयताले. आतां हे पद्धतीन मनीसूय दाखयतात. तशें मनीस आतां आपले आपूण देंवचाराचीं बरींचशी कामां करतात.
(सगळ्यांचे रोंट खावन जालां.)

खेत्री : (येत) सामको गांवठी कोंबो. रगतानूच तान भागली.

मुंजो : घे. तुजो वांटो. (ताका दिता. तो खाता.)



**खेत्री** : देंवचारमाम, (कृष्णाक पळयत ) हो हांगा एकलोच आयला?

(इतल्यान तळ्याकडल्यान लोहिता येता. आपणाले पोतयेकडेन वता. तिका पळयतकूच देंवचार सगळ्यांक कुरवेनूच वगी रावपाक सांगता. निमो लोहिताक पळयता. ताका ती वळखीची कशी दिसता. तो ल्हवू ल्हवू तिचेवटेन वता.)

**लोहिता** : (कृष्णाक) तळें आनी तळ्याचो वांठार खूबच सुंदर आसा. (ताका पळयत) तुगेलें गाराणें आजून जावंक ना? भोंवता भोंवतां म्हाका भूक लागली. तुजेभाशेन हांवेंनूय सकाळीं कांय खावंक ना. त्या कावळ्यांखातीर कितें तोंडातूय वडोवपाक मेळ्ळें ना. तुकां भूक लागूं ना?

(तो मान तशीच दवरून हात उबारून ना म्हण सांगता.)

तशें जाल्यार हांव खातां. (पोती उक्ती करता. भितरलें खाणाचें आयदण उक्तें करता. तातूंतलें थोडें खाण काडटा. ताळटार घेता. एक कुडको तोंडांत वडोवपाक वता. इतल्यान याद जाता. हात फाटीं घेता. त्या कुडक्याचो कुडको कोणांक तरी दवरिल्लेभाशेन कुशीक वडयता. इतलो वेळ तिची वळख घेत तिचे म्हऱ्यांत आयिल्ले निमो तिचेमुखार पावता. तिणें वडयिल्लो खाणाचो कुडको ज्युस्त ताच्या पोशांत पडटा. तो बकाबका करून खाता. आनी रडकुऱ्यां येवन उलोवपाक लागता. लोहिताक ताचें अस्तित्व जाणवूंक ना.)

**निमो** : आका, म्हज्या मोगाच्या आका. हांव तुजो धाकलो भाव. हांगा निमो जावन पडलां. हांव वळखलों तुकां. तूं म्हजी व्हडली भयण. आका, तुज्या हातचो सांजो खायना बराबर तर म्हाका सामकी खात्री पटली, तूं म्हजी भयणूच म्हणून. (तिच्या फाटल्यान फुडल्यान नाचपाक लागता.) आका, आका तूं वळखुंना गो म्हाका? हांव मेलों म्हणून कितें जालें? माया खंय ना जावपाक आयल्या? तुज्या धाकल्या भावाक पळय. म्हाका

तुजें वेगेंत काड. मांडयेर घालून थापटीय.

**लोहिता** : वा, काय बरो वारो सुटला!

**निमो** : आका, वारो न्हय, हांव तुजे भोंवतणी नाचतां तो तुजो धाकलो भाव. आका, म्हजेर रागार जावं नाका. हांव केन्नाच कसली चूक करचों ना. परत ते कारांदे उस्तून खावंचो ना. तुजो सोपूत! एकदां चूक जाली म्हजी. परत तसली चूक करचों ना. (आपलेंच कान धरून उठाबशी काडटा.) म्हाका तुजेबरोबर व्हर. म्हाका तुजेवांगडा रावपाक जाय. नातर तूं तरी सासणाचें हांगाच राव.

(देंवचार ताची अवतिकाय पारखिता. देंवचार मुंज्याक आनी खेत्र्याक खुणायता-निम्याक पयस करपाक. खेत्री आनी मुंजो वचून निम्याक घट धरतात आनी निम्याचें गीत म्हणत ताका घेवन वतात. लोहिताचें खावन जालां. तें हांगाथंय पळयता.)

**लोहिता** : (खोशयेन) आवयस! काय बरीं फुलां! (घोवाक पळयत) तुगेलें गाराणे आजून सोंपूना? यानफुडें केन्ना प्रसन्न जातलो तुगेलो देंवचार? हांव तो फुलांचो घोस घेवन येतां. तुकां थंय तंदरी लागल्या काय न्हीद लागल्या?

(तो मान सकयल दवरून खुणेनूच ताका वच म्हणून सांगता. लोहिता वता. सगळे गेले तें पळोवन देंवचार कृष्णाक उठयता.)

**देंवचार** : उठ बाळका, कितलो वगत मान बागोवन आसा. मान धरत बी तुजी. उठ बाळका, हांव तुजेर प्रसन्न जालां.

**कृष्णा** : (तकली वयर काडून) खरेंच देंवचारा? तूं खरेंच म्हजेर प्रसन्न जाला?

**देंवचार** : हय. तुवें दिल्ले भेटींत तर हांव तृप्त जालांच पूण सगळीं भुतां - खेतां, वाऱ्या-सुत्रां सुद्धा संतुश्ट जाल्यांत. सांग, तुजेखातीर हांव कितें करूं? हांव तुगेल्या घराण्याचो देंवचार. तुजें समादान

करप हें म्हजें काम. म्हजे तांकीप्रमाण हांव तुजें कसलेंय काम करपाक राजी आसां. सांग.

**कृष्णा** : (कुराड मुखार काडीत) हिका वळखता?

**देंवचार** : वा! ना वळखुपाक कितें जालां? ही कुराड तुगेल्या पूर्वजाची. कुश्ट भोरेकाराची. हेच कुराडीक लागून तो भोरेकाराचो कुराडो जालो.

**कृष्णा** : पळय कशी सांबाळून दवरल्या. दर बुधवारा तिची पूजा करतां. आयज तर सकाळीं घांसून पुसून लकलकीत केल्या.

**देंवचार** : (कुराड सांसपून) सगळें खरें, पूण धार मुणावल्या. म्हाका दिसता, कुश्टा उपरांत मागीर कोणें ती वापरूंकच ना. तीं पुराणां, पुस्तकांबी पुजेक लायता तशी ही कुराडूय तुमी पुजेक लायल्या आसतली.

**कृष्णा** : हय.

**देंवचार** : पूण बाळका, कुराडी पुजेक लायल्यार कशें जावपाचें? आयिद्दां तीं. तीं ज्या कामांखातीर केल्यांत त्या कामांक तांचो वापर जावपाक जाय.

**कृष्णा** : खरें तुजें. आयज हांव हे कुराडीचो वापर करतलों.

**देंवचार** : बरी बुद्ध येवजली तुकां. म्हजे आशिर्वाद आसा. एक सांग–

**कृष्णा** : विचार देंवचारा,

**देंवचार** : ही तुजी मूळ कुराड. ती तुवें बरी सांबाळून दवरल्या. तोखणाय दिसली तुजी. पूण त्यो दोन कुराडी खंय? एक चांदिची आनी दुसरी भांगराची.

(मान सकयल घालून वगी रावता.)

**देंवचार** : खंय सांडयल्यो?

**कृष्णा** : ना. पूण म्हज्या आदींच त्यो दोनूय जाणटेल्यांनी सोंपयल्यो.

**देंवचार** : (अजापान) सोंपयल्यो? (समजून) आं! सोंपयल्यो. चांदीक दर आसता. भांगराक दर आसता. आनी मनशाक गरज आसता.

(कृष्णा मानेन हयकार दिता.)

देंवचार : आतां हे कुराडीचो वापर करतलो म्हणटा तूं? खूब बरें. आपल्या कुळाचो परंपरेन चलत आयिल्लो वावर करपाक कसलेंच उणेंपण ना. वयल्यान त्या कुळाचो गौरव आसा. चल, ह्या रानांत कितलीं झाडां आसा पळय. तातूंतलीं कितलींशींच सुकीं काश्टां आसात. वयर खांदयो सुकल्यात. वयर चडटना मात सांबळून. खांदयेमुखार बसून मुळांत खांदी कापपाचीं पिशेपणां मात करूं नाका. सगळीं लाकडां पुंजयल्यार आनी फोडल्यार एका धपक्याक कितले भोरे पडटले ते पळय. तूं लाकडां फोडून हांगा पेडार दाळून माच कर. हांव राखण करतां. तुकां जाय तेदे भोरे बांद आनी जाय तेन्ना व्हर. एक तुज्या माथ्थार घे. एक बायलेच्या माथ्थार दवर. बायल बरी सोदून काडल्या तुवें. बरी कश्टीकरी दिसता. (मुखार दाखयत) चल वच. एकदां घायार घाय बसतकच कुराडीक आपशींच धार चडटली.

कृष्णा : (तळ्याकडेन बोट दाखयत.) हांव थंय वतां.

देंवचार : थंय तळें आसा.

कृष्णा : त्याच तळ्याधडेर वतां. थंय त्या झाडाक एक सुकलेलो खांदो आसा. हांव तो कापतां.

देंवचार : पूण तुकां संवय ना. धडेवयल्यान खाला पडशी बी.

कृष्णा : ना. एका हातान खांद्याक गोळ मारतां आनी दुसऱ्या हातान कुराड धरून खांदो कापतां.

देंवचार : पूण तशें करताना तुजी कुराड बी सकयल उदकांत पडली जाल्यार?

कृष्णा : पडली जाल्यार तूं आसाच न्हय.

देंवचार : म्हणजे?

कृष्णा : (ताकतिकेन उलो मारता.) लोहिताऽऽ लोहिताऽऽ

लोहिता : (भितर सावन) हांव हें हांगा आसा.

कृष्णा : बेगीन हांगा यो.

(देंवचार ताका पळयत रावता. लोहिता बेगीबेगीन येता. ताच्या हातांत फुलांचो गोण आसा.)

कृष्णा : चल, वचपाचें?

लोहिता : खंय?

कृष्णा : आनीक खंय? तुगेल्या कुळारा.

लोहिता : खंयचेवटेन?

कृष्णा : हेवटेन.

लोहिता : पूण तेवटेन तळें आसा मरे.

कृष्णा : तीच वाट वता तुज्या कुळारा. चल. (तिचो हात हातांत धरून तिका ओडटा.)

लोहिता : राव, पोती तरी घेतां. हात कित्याक धरता म्हजो?

कृष्णा : तळ्याकडेन वचपाचें. तोल वचून तळ्यांत पडलें जाल्यार... चल (ताका ओडीत घेवन वता. हातांत कुराड आसा.)

देंवचार : (ताका) बाळका, सांबाळून रे!

(देंवचार तीं गेल्यांत तेवटेन चिंतेस्त जावन पळयता. कांय वेळान तळ्याकडल्यान भुतांचो कुलकुलाट आयकूंक येता.)

देंवचार : आं! भुतांचो कुलकुलाट! कितेंय विपरीत घडलेबगर हीं कुलकुलाट करपी न्हय.

(इतल्यान तळ्याकडल्यान निमो, मुंजो आनी खेत्री कुलकुलाट करीत धांवत येतात.)

खेत्री : ती पडली. तळ्यांत पडली.

मुंजो : खोल खोल तळ्यांत पडली.

खेत्री : हांवें तिका पळयल्या ताणें तिका तळ्यांत वडयली.

देंवचार : आरे, कितें जालें? ताची कुराड तळ्यांत पडली? जाल्यार इतलो कुलकुलाट कित्याक करपाक जाय?

मुंजो : देंवचारमाम, कुराड न्हय. कुराड ताच्या हातांत आसा. ताणें तिका धुकलून तळयेंत वडयल्या.

खेत्री : हय. हांवें म्हज्या दोळ्यांनी पळयल्या. ताणें तिका अशी हाताक

धरून अश्शी भिरकटावन तळयेंत वडयल्या.

निमो : म्हज्या आकाक तळयेंत वडयलां.हांव ताका सोडपी न्हय.

देंवचार : रावात. तुमी कडेक सरात. कितें जालां तें हांव पळयतां. (भुतां कडेक सरतात. देंवचार पांयांत जोतें चडोवन, खांदार कांबळ वडोवन आनी हातांत दांडो घेवन तळ्यावटेन वचपाक वता. इतल्यान मुखावयल्यान कृष्णा हुयेली मारीत येता. हातांत कुराड आसा.)

कृष्णा : धनयां देंवचारा, धनयां देवचारा, घात जालो. म्हाका पाव. संकश्टांतल्यान सोडय.

देंवचार : कितें जालें बाळका?

कृष्णा : म्हजी, अपुरबायेची बायल, ती पांय निसरून तळयेंत पडली.

भुतां : फट! फट! फट! (कलकल करता.)
(देंवचार तांकां शांत करता.)

कृष्णा : देंवचारा, हांव बायलेबगर जगपाक शकचों ना. कसोच जगपाक शकचों ना.

भुतां : (कलकल करीत.) फट! फट! फट!

कृष्णा : म्हजे बायलेक वयर काड.

देंवचार : सकयल पडलेल्याक वयर काडपाकूच जाय. आनी म्हजेर अपसरण नाकां. हांव पळयतां यत्न करून. (देंवचार ताकतिकेन तळ्यावटेन वचपाक सोदता.)

कृष्णा : (ताका थांबयत. ताची नुरा बदलल्या.) राव देंवचारा,

देंवचार : कितें?

कृष्णा : तूं तळ्यांत बूड मारून तिका वयर काडटलो?

देंवचार : काडटलो म्हणजे काडपाकूच जाय.

कृष्णा : तूं काडटलो. पूण तिका न्हय
(भुतां कलकल करतात. देंवचार तांकां वगी रावपाक शिटकायता.)

देंवचार : तिका न्हय म्हणजे?

कृष्णा : जी पडल्या ती लोहिता. तूं वयर काडटलो ती लोहिता न्हय?

देंवचार : मागीर?

कृष्णा : तुवें कुश्ट कुराड्याक पयले लोखणाचे कुराडीच्या बदल्यांत कितें दिल्लें?

देंवचार : चांदीची कुराड!

कृष्णा : आतांय तुका तेंच करचें पडटलें.

(भुतां कलकल करतात. देंवचार तांकां शांत करता.)

देवचार : आरे, पूण तें कशें शक्य आसा? कुराड आनी बायलमनीस एकसारखी कशीं जावं येता?

कृष्णा : तूं देंवचार. तुकां कांयच अशक्य ना. आनी तूं म्हजेर प्रसन्न जाला. म्हाका जाय तें माग म्हण सांगलां तुवें.

देंवचार : सांगलां खरें.

कृष्णा : मागीर आतां नेगार वचूं नाका.

(भुतां कलकल करतात. देंवचार तांकां शांत करता.)

देंवचार : पळयतां यत्न करून. संकश्टांच्या वेळार तुमी मनीस देवाक उलो मारतात. हांव कोणांक उलो मारूं? (भुतांक) तुमी हाचेर नदर दवरतात. हांव तळ्यांत वचून येतां.

(देंवचार तळ्याकडेन वता. निमो, मुंजो, खेत्री कृष्णा भोंवतडीं भोंवताडे काडून नाचपाक लागता. कृष्णा थतर वितर जाल्लेभाशेन जाता. भानार येवपाचो यत्न करता. भुतां गायतात–

**फट रे फट! फट रे फट।**<br>**काळजा जाग्यार फांतर घट।**<br>**अदली–बदली व्हडलो कट।**<br>**संवंगां लवंगां नट रे नट।**<br>**खट खट खोटें जळत वंठ।**

ऊयेक लागल्या रगता चट।
लाब दोन तीन जुगारपट

(भुतां गीत गावन नाचता आसतानाच देंवचार तळ्याकडल्यान येता. तेबरोबर भुतां गावपा-नाचपाचीं थारतात.कडेक उबीं रावतात. देंवचारान हाताक धरून एके अस्तुरेक हाडल्या. चांदीची बावली सोबुंये अशी ती दिसता. चांदीकोराचो भेस आनी अळंकार. माथ्यार आनी तोंडार पदर (ओडणी) आसा. शोभेचे बावलेसारखीच ती उबी रावल्या.)

**देंवचार** : यो, बाळका कुष्णा कुराड्या असो मुखार यो. तुजे तळ्यांत पडिल्ले बायलेक हांवें बूड मारून वयर काडल्या. हिका सारखी आरखून पारखून पळय आनी सांग, हीच तुजी बायल?
(कृष्णा मुखार येता. तिका पळयता. ल्हवूच तोंडावयलो पदर वयर काडटा. ताचें मुखामळ उजळटा.)

**कृष्णा** : तुजें नांव कितें?

**चांदिमी** : (उमाण्यान नांव घेता.)
पडून आसली तळ्यांत वर्सां संकिनी
हांव एक बंदिनी
उद्धार केलो कृष्णा कुराड्यान
हांव ताची चांदिनी

**कृष्णा** : नांव चांदिनी! दिसताय तशी! देंवचारा, थँक्यू! थँक्यू! हीच म्हजी बायल.
(तिका उबारून आयिल्ले तेवटेन वता. देंवचार ताका पळयत उरता. निमो, मुंजो, खेत्री कुलकुलाट करता.)

(काळोख)



## देखाव – चार

(थळ : कृष्णा कुराड्यालें आदलें घर. कृष्णा दारांतल्यान ल्हवूच भायर येता. हातांत रिती बालदी आनी कळशी आसा. दार सवकासायेन धांपता. भायरसान कोण पळयता बी काय ताची सुलूस घेता आनी ल्हवपीक पावलांनी भायर वचपाक लागता. इतल्यान मुखावयल्यान गाडेकार गजा येता. हातांत सामानाची पोती आसा.)

**कृष्णा** : तूं आयलो?

**गाडेकार** : हय. खबर कळनाफुडें येवचें पडलें ना?

**कृष्णा** : हें कितें हाडलां? हांवें काय कितें हाडपाक सांगूंक नासलें.

**गाडेकार** : सांगपाक कित्याक जाय? इश्टाक सांगचें पडना.

**कृष्णा** : तूं आयलो तें बरें जालें. आनीक कोण येना जाल्यार पुरो. तें सामान दी.

**गाडेकार** : आसूं, हांव दवरतां भितर व्हरून.

**कृष्णा** : नाका, नाका. तूं येवजिता तशी न्हय, गजाल मातशी वेगळी.

(कृष्णा बालदी, कळशी थंयच दवरता आनी गाडेकाराली पोती घेवन भितर वता. गाडेकार अजापान पळयता. कृष्णा रोखडोच भायर येता.)

**कृष्णा** : बांयचेर वचून थोडें उदक हाडपाक जाय. पयल्याच दिसा तिका ना कितें म्हणटलों? तूं हांगाच राव. हांगाच म्हणजे हांगाच. हांव बांयचेर वचून येतां.

**गाडेकार** : पूण घरांत नळ आसताना –

(भायरसावन गादयेकार गजा येता. हातांत पोती आसा. हातांत धरल्या ताचेवयल्यान नुस्त्याची कशी दिसता.)

**कृष्णा** : तूंवूय आयलो?

गादयेकार : हय. हाचेच खातीर (नुस्त्याखातीर) मातसो उशीर जालो नातर सकाळीफुडें पावपाचो.

कृष्णा : बरें केलें.

गादयेकार : नुस्तेंबी (ती) खाता न्हय? वयल्यान आयज बिरेस्तार.

कृष्णा : आजून कांय खबर ना. हांव व्हरून भितर दितां. (नुस्त्याची पोती घेवन भितर वता.)

गादयेकार : (गाडेकाराक) तुकां कितें वास लागला?

गाडेकार : कसलो वास? तुवें हाडिल्ल्या नुस्त्याचो?

गादयेकार : शे. वास येवपाक मोव आसा तर तें? सामकें ताजें फडफडीत. वास म्हणटालों तिचो.

गाडेकार : ना. हांव येतां थंय आसां. पळयल्या भितर कृष्णान तिका धांपूनशी दवरल्या.

गादयेकार : बावली कशी आसल्यार धांपूनच दवरपाची.

कृष्णा : (भायर येत.) सामकी चांदीची बावली! (परत दार आड करता.) तुमी दोगूय हांगासरूच रावात. हांव रोखडो येतां. (बालदी आनी कळशी घेवन भायर वचपाक वता. कसली तरी याद जावन थारता. गाडेकार गजाक कडेक व्हरून सांगता.) मातशें लक्ष दवर.

गाडेकार : आं, आं. दवरतां.

कृष्णा : तिचेर न्हय, ह्या गजा गादयेकाराचेर.

गाडेकार : आं, आं.

कृष्णा : (गजा गादयेकाराक घेवन कडेक वता.) मातसें लक्ष दवर. तिचेर न्हय, ह्या म्हज्या इश्ट म्हणपी गजा गाडेकाराचेर.

गादयेकार : आं, आं.
(कृष्णा रितीं आयदनां घेवन भायर वता. तो भायर गेल्ल्याची दोगूय खात्री करून घेतात.)

गाडेकार : कृष्णा, तुकां कितें सांगून गेलो?

गादयेकार : कांय ना. तुजेर न्हय तिचेर मातशें लक्ष दवर म्हणून.

गाडेकार : म्हाकाय तशेंच सांगून गेला.

गादयेकार : तो काळजी घेता त्या हिसपान लक्ष दवरपासारखीच आसपाक जाय.

गाडेकार : खरें म्हणल्यार कृष्णाक आयज हांव हांगां आयिल्लो नाका आसलो.

गादयेकार : आनी हांवूय आयिल्लो ताका मानवूंक ना.

गाडेकार : हें बरें. हरशीं आयल्यार जाता. आयज नाका.

गादयेकार : आनी आमी कितें रित्या हातांनी येता?

गाडेकार : आनी उठसुठ येवपाक आमी कितें त्या गजा गांवकाराभशेन बेकार आसा?

(इतल्यान गजा गांवकार येता. ताच्या हातांत फुलांचो पुडो आसा. तो धांपला. व्हडल्यान उलो मारीत येता.)

गांवकार : कृष्णाऽऽ कृष्णाऽऽ

(दोगूय गजा ताका खुणेनूच आवाज करूं नाका म्हण शिटकायतात. तो वगी रावता. ल्हव पावलांनी भितर येता.)

गांवकार : (ल्हवू) दोगांय आजून उठूं ना?

गादयेकार : ना, तूं येवन उठयसर रावल्यांत. तूं भुपाळीबी म्हणून उठयता जाल्यार उठय.

गांवकार : ह्या फुलांखातीर कळाव जालो नाजाल्यार व्हदळ पावपाचों.

गाडेकार : कोणाचोय दोळो चुकोवन फुलां चोरपाचीं म्हणजे कळाव जावापचोच.

(गजा गांवकार खरें म्हणून व्हडल्यान हांसता. ते ताका शिटकावून वगी करंतात.)

गांवकार : खूब तेंपान कृष्णाक बरी न्हीद लागल्या आसतली. ते बायलेन ताची सगळी न्हीद खाल्ली.

गाडेकार : खंयचे बायलेन?

गांवकार : खंयचे म्हणजे? ती काल ताणें बुडयल्या ती.

गादयेकार : आनी भितर आसा ती कोण?

गांवकार : तिचे बदली हाडल्या ती नवी.

गादयेकार : तुवें पळयल्या?

गांवकार : ना.

गादयेकार : (गाडेकाराक) तुवें पळयल्या?

गाडेकार : ना.

गादयेकार : हांवेंय पळोवंक ना. पूण म्हजोय अदमास तसोच.

गांवकार : कृष्णाचें म्हणून एक एक गौडबंगालूच. आतां इतलो वेळ न्हिदून रावप म्हणजे – (इतल्यान भायरसावन कृष्णा बालदेन आनी कळशेन उदक घेवन येता.)

गांवकार : आरे कृष्णा, तूं उदक घेवन? घरांतल्या नळाक उदक ना तर?

गाडेकार : हांव तेंच विचारतालों!

कृष्णा : आरे, नळाच्या उदकाक खंय वास येता. तो क्लोरीन आसता न्हय तातूंत. आमकां संवय जाल्या. तिका संवंय ना. ती तळ्यांत रावपी न्हय रे. म्हणपाक लागली, बांयचें उदक घेवन यो.

गांवकार : म्हणजे तिणें येनाफुडें तुकां उदकाक लायलो.

कृष्णा : पयलोच दीस न्हय रे. नवे होंकलेक न: कशें म्हणूं येता?

गाडेकार : आसा तरी कशी?

गादयेकार : कशीय आसूं. आदलेभशेन आसना म्हणटकूच जालें.

कृष्णा : नाका. तिचें आनी सपन पडूं नाका.

गांवकार : रातींबी तिचें सपन पडूं ना मरे?

गादयेकार : रातीं न्हीदल्यार मू तें सपन पडपाचें! न्हय रे कृष्णा?

कृष्णा : खरें सांगतां, सपनांत येवजिल्लें ताचेपरस ही कितलेपटीन तरी बरी आसा. कसले नाना विचार तकलेंत येताले. खरे बायलेक तळ्यांत वडोवप कितें, तेबदली दुसरी बायल मेळप कितें, सगळोच चमत्कार कसो.

गोदयेकार : चमत्कारूच तो.

कृष्णा : सगळी म्हज्या देंवचाराची कृपा. ते कुराडीची म्हैमा!

गांवकार : हे अती शिकलेले म्हणटात न्हय, चमत्कारबी जायना म्हणून! हें उदाहरण पळयात म्हणजे.

कृष्णा : मन शुद्द जाय. मागीर सगळें मनासारखें घडटा.

तिगूय : बरोबर.

कृष्णा : पूण हांव ही गजाल अशी वाऱ्यार घालपी न्हय. तुमीय घालूं नाकात.

गाडेकार : ना, ना. ते पत्रकारबी अशेच आसतात. तांकां असल्यो गजाली चड घोस्ताच्यो. गणपतीच्या आकाराची पोपाय जावप, मुर्तिच्या दोळ्यांतल्यान रक्त गळप असल्यो गजाली ते फोटोसयत तिखटमीठ लावन शापतात.

गादयेकार : ही तुगेली गजाल शापपाक फाटीं रावता? तुजो फोटो, तिचो फोटो, कुराडीचो फोटो, शी!

कृष्णा : म्हणून हांव म्हणटां – ही गजाल आमच्या इश्टांमदीं उरची. ती काय खंय सांगपाक वचची ना. आमचें देणें-घेणें कशें आमचेमदीं आसा तशीच ही गजाल.

गादयेकार : देण्या-घेण्याचें बरें आसा. तें खंय वता? नाल्ल तोडिल्लो, देंठ फारीक करतलोच. कितें गजा?

गांवकार : बरोबर.

गादयेकार : तुकां न्हय. (गाडेकाराक) ह्या गजाक.

गांवकार : (कृष्णाक) हांव हें उदक भितर व्हरूं?

कृष्णा : नाका, नाका. (आयदनां उखलता. परत दवरता.) एक गजाल मात आसा–

तिगूय : कसली गजाल?

कृष्णा : ही खरीच चांदिनी?

तिगूय : चांदिनी?

कृष्णा : हय. चांदिनी तिचें नांव. ही खरेंच चांदिनी काय मुळची लोहिता? कारण मदींच आवाज लोहिताचो कसो! आनी ती तळ्यांतल्यान आयल्या खरी पूण तोच लोहिताचो भेस. तेच

अळंकार. घरांत वावुरता सामकी संवकळीची कशी, जशें काय आदींसावन हे तिचेंच घर आनी हांव तिचो घोव. अशें दिसता, तिणें देह बदलूंकुच ना, बदलल्या तो फक्त सभाव.

गादयेकार : (खोशयेन) जालें! खूब जालें. सभावूच बदलपाक जाय आसलो.

गाडेकार : आमकांय तोच खुपतालो.

गांवकार : बरोबर.

(इतल्यान भितरसावन आवाज येता.)

चांदिनी : आयकलां धनयांनु? खंय पावले तुमी उदक हाडपाक गेल्ले ते? बांय कितें इतली पयस आसा?

कृष्णा : पळयलो? आवाज पळयलो?

गादयेकार : लोहिताचो दिसता खरो. पूण सामको तस्सो न्हय.

गाडेकार : आनी जायत्या जाणांचो आसता आवाज एक सारखो.

(कृष्णा उदकाचीं आयदनां घेवन भितर वता.)

गादयेकार : प्रत्यक्ष पळयलेबगर कांय खरें न्हय.

गाडेकार : आनी प्रसन्न जावन हाका पावला तो देंवचार. देव न्हय.

गांवकार : कृष्णाचीं लक्षणां पळयल्यार तो तिका भायर धाडीतसो दिसना.

गाडेकार : पळोवया कितले दीस धापून दवरता तो.

(इतल्यान भितरसावन चांदिनी येता. तळ्यांतल्यान वयर आयिल्ली तोच भेस. माथ्यार पदर आसा. हातांत च्याचो ट्रे आसा. गाडेकार गजा म्हऱ्यांत वचून ताका एक कप दिता.)

चांदिनी : गजा भावोजी, हो तुमकां चड साखरेचो. (गादयेकाराक दिवन) गजा भावोजी, हो तुमकां बीन साखरेचो. (गांवकाराक) तुमकां कसलोय चलता न्हय गजा भावोजी?

(तिगांय गजांक अजाप जाता. गांवकार आनी गादयेकार कपांकडेन दुबावान पळयतात आनी घोंट मारतात. दोगांयचीं तोंडां खोशयेन फुलतात.)

गाडेकार : (घोंट मारीत) आयज कप बदलूंक ना. (गादयेकाराक तुजो?

गादयेकार : तुजो बदलूंक ना जाल्यार म्हजो कसो बदलतलो?

गांवकार : म्हजो बदलपाचो प्रश्नूच येना.

(चांदिनी तिगांकूय च्या दिवन कुशीक बावलीशी उर्ब रावता.)

गाडेकार : (पियेत) वा! च्या कितें जाला! फॉर्त!

गादयेकार : (पियेत) एका एका मनशाच्या हातचो गूण आसता.

गांवकार : बरोबर.

चांदिनी : (लजत) आंवय! वगीच कसल्यो तोखणायो गजा भावोजींनो! च्या पियात आं गजा भावोजींनो. हांव भितर वचून रोखडी येतां. (भितर वता.)

गादयेकार : हांव सेर्त सांगतां, ही दुसरी तिसरी कोण न्हय तर आदली लोहिता.

गाडेकार : तिणे फक्त नांव बदल्लां आनी सभाव.

गादयेकार : बरोबर. ह्यो दोनूय गजाली बदलूं येता. म्हणजे तसें नाटकूय करूं येता.

गांवकार : हांव म्हणटां, करीना नाटक. आमचे कितें सरता? आनी आदींसावन आमकां असलीं नाटकां आवडटात.

दोगूय : कसली नाटकां?

गांवकार : नटी आशिल्ली नाटकां. तेखातीर आमी कितल्यो वाटो माड्डील्या! कितल्यो राती साल्ल्या!

दोगूय : बरोबर.

(चांदिनी भायर येता. तिगांयचो च्या पियेवन जाला. ती उलो मारता.)

चांदिनी : आयकलां धनयानु, मातशे भायर येतात.

कृष्णा : (भायर येत) कितें? ती दाळ वेंचता न्हय.

चांदिनी : तें काम मागीर करात. भावोजींचो च्या पियेवन जालो. हीं

च्याचीं कोपां मातशीं भितर व्हरात न्हय.

(कृष्णा मोन्यांनी तिगूय गजांकडलीं कोपां घेता. वचपाक वळटा-)

**चांदिनी** : मातशीं धुवन दवरात. कोपां नळाच्या उदकान धुल्यार जाता आं. आनी दाळ वेंचून जातकूच म्हाका सांगात आं धनयांनु.

(कृष्णा घुस्मटत भितर वता.)

**चांदिनी** : गजा भावोजी,

(तिगूयजाण लागीं येतात.)

**चांदिनी** : तुमी न्हय, (गाडेकाराक) गजा भावोजी तुमी?

**गाडेकार** : हांव?

**चांदिनी** : (ताका कडेक व्हरून) हय गजा भावोजी, सामानांक सामान हाडलें. ती लिपस्टीक आनी नेलपॉलीश कित्याक हाडलें?

**गाडेकार** : फॉरेन तें. कोणतरी कालूच म्हज्या गाड्यार घेवन आयिल्लो. म्हटलें, तुकां व्हरून दिवंया.

**चांदिनी** : पूण तुमचे निवडीक दाद दिवपाची. कितें चॉयस!

**गाडेकार** : म्हणजे?

**चांदिनी** : नेलपॉलीश सिल्वर तें जालेंच, लिपस्टीकूय सिल्वर कलर. म्हाका सामकी मॅचिंग.

**गाडेकार** : घडटा असो योगायोग.

**चांदिनी** : योगायोग?

**गाडेकार** : योगायोग म्हणजे हांव जाणांच आसलों तुका पॅच, न्हय मॅच जातलो म्हणून.

**चांदिनी** : गजाभावोजी, जेवणांक रावपाचें.

**गाडेकार** : जेवणांक?

**चांदिनी** : हय. मणगणें करतां. हे भितर बसून दाळ वेंचता. तुमकां मणगणें आवडटा न्हय?

**गाडेकार** : हय तर.

(चांदिनी गाडेकार गजाकडेन उलयता तेन्ना दोगूय गजा

अस्वस्थ.)

**कृष्णा** : (भायर येत) चांदिनी, कपां धुवन जालीं, फोडूनय जालीं. दाळ वेंचून जाली.

**चांदिनी** : आवयस! इतले बेगीन जाली? घरच्या कामांक कितले म्हणून तुमी हुशार धनयांनु.

**कृष्णा** : आतां कितें करूं तें सांग.

**गाडेकार** : आतां बोडकाक हात घालात.

**कृष्णा** : (घुस्मटत) कोणाच्या बोडकाक?

**चांदिनी** : आनींक कोणाच्या? तें नुस्तें आसा न्हय गजाभावोजीन हाडिल्लें.

**कृष्णा** : बरें. (कृष्णा वैतागान भितर वता.)

**गादयेकार** : (दोगांय गजांक) तरी बरें, म्हज्या बोडकाक हात घातलो ना.

**चांदिनी** : गजा भावोजी,

(तिगूय लागीं वतात.)

**चांदिनी** : (गादयेकाराक) आतां तुमची पाळी न्हय?

**गादयेकार** : हय.

**चांदिनी** : (कडेक व्हरून) सामकें वेंचून नुस्तें हाडलें. म्हाका आवडटा तसलें – चणकूल!

**गादयेकार** : चणकूल? म्हाका खबर ना.

**चांदिनी** : म्हणजे योगायोग तर?

**गादयेकार** : ना. ना. तशें चणकूल म्हणूनच हाडलें.

**चांदिनी** : दनपारां जेवणांक रावपाचें. तुमची बरी कळपुटी करतां. तुमकां आवडटा न्हय कळपुटी गजाभावोजी?

**गादयेकार** : हय तर.

**चांदिनी** : (उलो मारून) गजा भावोजी,

**गांवकार** : (धांवत) हांव. दुबावूच ना. म्हजोच नंबर. सांग चांदिनीवयनी.

चांदिनी : कितले म्हण तुमी चत्रायेचे! हाडचे हाडून कसलीं म्हण फुलां हाडचीं तुमी!

गांवकार : कसलीं?

चांदिनी : अशें कितें करता? त्या फुलांचीं नांवां सुद्दा घेवपाक लज दिसता.

गांवकार : लज दिसता? असलीं कसलीं फुलां तर तीं? हांवें तीं अशींच.... (चोरून हाडल्यांत) अशींच हाडल्यांत.

चांदिनी : सादीं फुलां न्हय, (लजत) कृष्णकमळां तीं!

गांवकार : कृष्णकमळां? (हांसता.) आसता एक एक योगायोग.

चांदिनी : योगायोग?

गांवकार : चांदिनीवयनी, कृष्णकमळां तुमकां हाडचोंना जाल्यार कोणांक त्या जड्डुलांक... (जिबली चाबता) तुमकां हाडीना जाल्यार आनींक कोणांक हाडटलों? तीं तुमच्यासारख्या बायलांखातीरूच फुलता आनी आमचेसारखे दादले तीं तुमचेखातीरूच (चोरून) हाडटात.

कृष्णा : (भायर येत) चांदिनी, बोडूक फोडून जालें. आतां कितें करपाचें?

चांदिनी : त्यो मेथयो काडून दवरल्या त्यो मातशो धुवन घेयात आनी पेजेक दवरात.

कृष्णा : पेजेक दवरपाक कोणांक जोर आयला?

चांदिनी : सांगिल्लें काम मोन्यांनी केल्यार म्हाका खूब आवडटा धनयांनु.

कृष्णा : बरें आसा. (वैतागान भितर वता.)

चांदिनी : (गांवकाराक) गजा भावोजी, जेवणांक रावपांचें. मेथयांची पेज करतां.

गांवकार : मेथयांची पेज? मेथयांची पेज जेवपाक हांव कोण दुखीची बाळटीण?

चांदिनी : तुमकांय बरी ती दुखीक. आड्यावयल्यान, दुर्गावयल्यान

उडयो मारच्यो पडटात न्हय? आंगांक दुख पडटा. पेजेन निवळटले. (उलो मारून) गजा भावोजींनो, तुमचेकडेन म्हणजे तिगांयकडेन म्हजें एक काम आशिल्लें.

गादयेकार : तिगांयकडेन एकूच काम?

दोगूय : सांग, सांग.

चांदिनी : (लजत) लज दिसता!

गांवकार : तातूंत लज कसली? लजेक गेल्यार मेथयां पेजेक पावना.

चांदिनी : गजाल म्हज्या धनयाची, तुमगेल्या इश्टाची.

गादयेकार : कृष्णा! ताची कसली गजाल?

चांदिनी : कितेंतरी जोडीचें साधन जाय न्हय. आयज एकलो आसा. फाल्यां पदराक भुरगीं येतलीं.

तिगूय : बरोबर.

चांदिनी : कसल्या कामधंद्याची काय ताका आवड ना. म्हणटकूच कसलीतरी नोकरी चाकरी. ती पूर्वजांची कुराड घेवन नाचलो म्हण उपकारता?

तिगूय : बरोबर.

चांदिनी : आनी म्हाका घरांत पडून आसता तो दादलो निखालस आवडना.

तिगूय : बरोबर.

गांवकार : हांव बेकार खरो पूण घरांत पडून रावपी न्हय. खंय ना खंय जीव घोळयत दवरतां.

चांदिनी : आनी ताणें कित्याक नोकरेक वंचपाक जाय तें तुमकां कळ्ळें न्हय गजा भावोजींनो?

(ना कळून तिगूय एकामेकाकडेन पळयतात. एकामेकाकडेन ल्हवू आवाजान उलयतात. मागीर तांच्या लक्षांत येता. तिगूय खोशी जातात. चांदिनी लजता. एक मुरको मारून भितर धांवता.)

गादयेकार : हांव तुमकां सांगतां, ती चांदिनी–बिंदिनी कोण न्हय. ती

लोहिता.

**गाडेकार** : लोहिता जांव, पूण ती बदल्ल्या खरी.

**गांवकार** : ना तर नाटकांय आसूं येता.

**गादयेकार** : बदल, नाटक कितेंय आसू पूण ती आतां जें कितें करूंक मुखार सरल्या तो तिचो हेतू बरो आसा.

**गाडेकार** : निखटो बरो न्हय, शुद्ध आसा.

**गादयेकार** : म्हणटकूच आमी ह्या कृष्णाक खंयतरी नोकरेच्या निबान चिकटावन दवरप बरें.

**गांवकार** : तुमी दोगांयनी तकली वापरची पडटली.

**गादयेकार** : आनी तुवें तुजी तकली वापरल्यार कितें ती झरतली?

**गांवकार** : आरे, हांव बेकार. हांव ताका खंय नोकरी सोदतलों?

**दोगूय** : बरोबर. (दोगूय विचार करतात. इतल्यान कृष्णा भायर येता. तो गडबडीन आसा. ताणें कसलोतरी निर्णय घेतला.)

**गादयेकार** : कृष्णा, तूं अशें कित्याक करीना?

**कृष्णा** : आनींक कितें करूं?

**गादयेकार** : तूं ह्या गजा गाडेकाराच्या गाड्यार कित्याक रावना? (गाडेकाराक तें मानवूंक ना.)

**कृष्णा** : गाड्यार रावूं?

**गादयेकार** : गाडो नांवाचो. पसरो जाला न्हय रे तो? (गाडेकाराक) कितें गजा?

**कृष्णा** : गाड्यार रावून कितें सामानाच्यो पुडयो बांदूं?

**गादयेकार** : आतां पुडयो कोण बांदता? प्लास्टीकच्या पोतयांनी सगळें बांदून दवरिल्लें आसता. कितें गजा?

**गांवकार** : कल्पना वायट ना. (गाडेकाराक) कितें गजा?

**गाडेकार** : हांव कितें म्हणटां जाणा कृष्णा, तूं गाड्यार रावचेपरस ह्या गजा गादयेकाराले गादयेर कित्याक रावना? तशी ती गादी खंय उरल्या? तें जालां बार्र. (गादयेकाराक) कितें गजा? आनी कृष्णाक मातशी कुट्ट करपाची संवंयूय आसा. (गांवकाराक)

किर्ते गजा?

गांवकार : कल्पना वायट ना.

कृष्णा : तुमच्या कल्पनांक लागली चुट्टी.

गांवकार : कांयच ना जाल्यार मागीर म्हजेबरोबर यो.

कृष्णा : कित्याक बेकारथवयपणां करपाक?

गादयेकार : एकूण किर्ते, तुवें अशें घरांत पडून रावप बरोबर न्हय. आनी आमी तुजे इतले जीवाभावाचे इश्ट आसतना?

कृष्णा : जीवाभावाचे इश्ट? तुमी भावाचे (म्हजे) भावजयेचे इश्ट. राव, दाखयतां तुमकां इश्टागती जोडपाक. (तसोच भितर वता.)

गाडेकार : तिचो सभाव बदल्ला खरो पूण ह्या कृष्णाचो बदलूंक ना.

गादयेकार : पूण आमीय आतां धील रावून उपकारना. कितलेंय जाल्यार हें उदारेचें गिरायक.

गांवकार : बरोबर.

(भितरसावन कृष्णा चांदिनीक भरभरीत ओडीत हाडटा. हातांत कुराड आसा.)

चांदिनी : धनयांनु, हें तुमी किर्ते करतात ह्या गजा भावोजींमुखार?

तिगूय : आरे कृष्णा, हें किर्ते?

(तिगूयजाण ताका आडावपाक मुखार येतात.)

कृष्णा : खबरदार! म्हाका कोण आडायतले न्हय. (एकएकल्याक) तुजें करतलों मणगणें, तुजी कळपुटी आनी तुजी पेज. बायल म्हजी. म्हजे बायलेचें हांव जाय तें करतलों. म्हाका नोकऱ्यो दिता? हांव गाड्यार बसूं? गल्ल्यार बसूं? आनी मागीर तुमी हांगासर येतात? लिपस्टीक घेवन? चणकूल घेवन? कमळां घेवन?

गादयेकार : पूण हिका घेवन तूं खंय वता?

कृष्णा : मस्णांत! तुमकां कित्याक?

गाडेकार : पूण लोहिताचें केलां तशें तुकां चांदिनीचें करपाक मेळचें ना.

कृष्णा : सांगलें न्हय, म्हजे बायलेचें हांव जाय तें करतलों. तुमी तुमकां

जाय तें करात गजांनो. (ओडीत) चल.

चांदिनी : भावोजीनो, तुमी एकापरस तीग तीग जाण आसताना कितें ही म्हजी दशा? भितर तें मणगणें, कळपूटी आनी मेथयांपेज करपतली.

तिगूय : कृष्णा, कृष्णा, (आडावपाचो यत्न करता. ती आड्डता.)

चांदिनी : गजा भावोजीनोऽऽ गजा भावोजीनोऽऽ

(कृष्णा चांदिनीक घेवन वता. तांचे फाटोफाट तिगूय गजा वतात.)

(काळोख.)

## देखाव – पांच

(थळ : आदलेंच पेड. वेळ : सादारण सांजचो. देंवचार पेडाकडेन एक एकल्यार उलो मारीत येता.)

देंवचार : ए निम्याऽऽ खंय आसा रे? आजून कंदां उस्तिता? (तळ्याकडेन पळोवन) ए मुंज्याऽ आजून न्हावन सोंपूना? (वयर झाडाकडेन पळोवन) ए खेत्र्या, सामको झाडाचे तेंगशेर मरे! पडपाची भिरांत ना तुकां, चिंचेचे ताळयेर पासून चडून बसपी तूं. देंव खाला. (मुंज्याक) मुंज्या, यो वयर. (इतल्यान निमो येता.)

देंवचार : जालें कारांदे उस्तून?

निमो : ना. हांव आतां ते उस्तिना. हांवें म्हज्या आकाक तशें उतर दिलां.

(इतल्यान खेत्री येता.)

देंवचार : इतलो वयर कित्याक चडिल्लो? पिसोळ्यांक खावपाक?

खेत्री : ना. वयर सावन थंय कितें दिसता काय म्हण पळयतालों.

देंवचार : मागीर कोण दिसलो?

खेत्री : ना. सगळो धुंवर.

देंवचार : (समजायत) तेंच खरें. आतां सगळो धुंवर!

खेत्री : पूण हांव सोडपी न्हय, तिकाय सोडपी न्हय आनी तांकांय.

देंवचार : मेला तरी सुदारपाचो ना तूं.
(मुंजो वयर येता.)
जालें न्हाण?

मुंजो : हांव न्हावपाक वचूंक नासलों.

देंवचार : मागीर?

मुंजो : देंवचारमाम, हांवें तळ्याची सगळी खर उस्तून पळयली. तळाक कोणूच ना. मागीर त्या तुगेल्या मनशान धुकलून वडयिल्ली बायल गेली खंय?

खेत्री : आनी वयर आयली ती कोण?

निमो : देंवचारमाम, म्हजी भयण खंय?

देंवचार : तुजे भयणीक कांय एक जावंना. कितेंय जाल्लें जाल्यार ती तुजेभाशेन भूत जावची नासली?

मुंजो : मागीर ती गेली खंय? तळाक कांय ना.

देंवचार : तें तुकां आनी तुमकां सगळ्यांकूच योग्य वेळार कळटलें. तुमी, हांव सांगतां तें करपाचें.

मुंजो : देंवचारमाम, आमी तुज्या उतराभायर आसा?

खेत्री : पूण देंवचारमाम, तूं कितेंय सांग, तो तुगेलो मनीस मात फटींग.

निमो : एक नंबरचो फटींग. देंवचारमाम, तुकां आदींच सांगून दवरतां.

देंवचार : कितें?

निमो : तो फटींग जर परत हांगासर येत जाल्यार ताका उबो पासून करून घेवं नाका. एका दांड्यासरशीं वांगडाच आडवो कर.

मुंजो : नाजाल्यार म्हजेकडेन सोंपय. ताणें बायलेक धुकलून वडयल्या थंयच सावन ताची पोचुंडी तळ्यांत मोखतां.

खेत्री : नाका, नाका, म्हजेकडेन दी. हांव वयर सांतोणाचे ताळयेर घेवन वतां आनी थंयसावन बॉलार कशी भोंकार खोंट मारतां.

निमो : मरुनी एकदांचो. मागीर आमकां वांगडी जालो.

मुंजो : शी. असलो मनीस नाका आमकां वांगडी म्हणून.

देंवचार : तुमी येवजिता तशें म्हज्यान येवजूं नजो. तशें केल्यार भूत आनी देंवचार हाचेमदीं फरकूच उरचो ना.

निमो : मागीर बसय तर ताका माथ्यार.

मुंजो : मनशाची जात हराम म्हणटा तेंच खरें. आमी सुटले!

देंवचार : परत येवपाचोच जाल्यार आयज तो येवचो ना, इतलें नक्की.

खेत्री : कित्यावयल्यान?

देंवचार : आयज बिरेस्तार. म्हज्या भक्तांचे वार म्हणटा ते बुधवार आनी आयतार.

खेत्री : वार भक्तांक लागता. हरामांक खंयचे लागता?

तिगूय : बरोबर.

निमो : (हुंगत) म्हाका वास येता, वास येता.

मुंजो : कोणतरी येता. निम्याचो अदमास केन्ना चुकचो ना.

देंवचार : कोणूय वाटबी चुकला आसतलो. तुमी कडेक सरात. वाटसुऱ्याक कसली नकलामी करूं नाका.
(भुतां कडेक सरतात. देंवचार पेडार आपणाले सुवातेर वचून उबो रावता. कांय वेळान कृष्णा आनी चांदिनी येतात.)

चांदिनी : धनयांनु, आमी परत थंयच पावलीं जंय सावन आमी गेल्लीं. आमी परत हांगासर कित्याक आयल्यांत? आनी परत केन्ना वतलीं?

कृष्णा : परत खंय घरा?

चांदिनी : हय. थंय रात्तीर मणगणें आसा, कळपुटी आसा, मेथयांपेज

आसा.

**कृष्णा** : आनी तें सगळें खावपी तुजे यार आसात.

**चांदिनी** : (लजत) आंवय! अशें कितें उलयता!

**कृष्णा** : घे, जाय तितली मोडून घे. कुडके पडसर मोडून घे.

**चांदिनी** : हो वांठार मात खरोच सुंदर आसा. सगळ्याक फुलांच फुलां.

(बॅग दवरता. हांगाथंय भोंवर मारता. निमो तिका पळयत पळयत तिचे भोंवतणी घुंवता. कृष्णा देंवचाराच्या पेडाकडेन वता आनी आदलेवरीच दिमी मारून तकली बागोवन बसता. चांदिनीक अकस्मात कसलीतरी याद येता. ते यादीनूच ती गावपाक लागता. गायता ती एक फुगडी.

**बंधवांनी बंधवा रे हे**
**फुलांचे मळे काय हें**
**दुकांचे तळें रे।।**
**रूखाच्या तळाशीं ही**
**सांडिल्या सावुली काय**
**मायेची पावुली।।**
**रूखाचे भोंवतणी हें**
**भोंवराचें गाणें काय हें**
**तुजेंच जीणें रे।।**
**रूखाच्या पानांशीं हो**
**झणझणटा वावु काय हो**
**भयणिचो भाऊ रे।।**

(चांदिनी गायत गायत कडेक वता. मुंजो आनी खेत्री निम्याक कडेक काडून दुसरेवटेन घेवन वता. पेडाकडेन कृष्णा तोंडांतल्या तोंडांत गुणगुणत गाराणें घालता. देंवचार ताचे तकलेक हात

लावन ताका उठयता.)

वचार : ऊठ बाळका. सगळें गाराणें परत घालपाची गरज ना. दाढमणां बी वळत तुजीं.

कृष्णा : (कुराड दाखोवन) धनयां देंवचारा, वळखलो म्हाका?

देंवचार : म्हज्या मायेच्या बाळकाक हांव कसो वळखुचो ना? आनी कालूच तर तूं येवन गेला. दर फावटीं वळखीखातीर ही कुराड हाडपाची गरज ना. थंय कुरकुटांत दवर आनी सदचेभाशेन दर बुधवारा पूजा केली म्हणटकूच जालें.

कृष्णा : धनयां देंवचारा, आयज रित्या हातान आयलां म्हणून रागार जावं नाका. सगळोच बोवाळ जालो. कितेंच लागीं करपाक जालें ना.

देंवचार : ना, ना. भक्ताचे हात रिते आसूं. मन भल्लेलें आसलें म्हणटकूच जालें. काल जें कितें दिलें तें म्हाका वर्सभर पुरो. सांग बाळका तुजें कितें घडलां?

कृष्णा : (रडत) धनयां, तुकां कितें सांगूं? काल तुवें तळ्यांतल्यान काडून दिली ती म्हजी बायल न्हय.

देंवचार : तुजी बायल न्हय?

कृष्णा : न्हय धनयां.

देंवचार : मागीर तूं घेवन कसो गेलो तर?

कृष्णा : भुल्लुसलों धनयां. सुंदर दिसली! भुल्लुसलों. पूण दिसता तसें नासता म्हणटा तेंच खरें.

देंवचार : ती तुजी बायल न्हय म्हणपाची सामकी खात्री आसा?

कृष्णा : हय धनयां.

देंवचार : मागीर आतां कितें करपाक सोदता?

कृष्णा : जी बायल म्हजी न्हय ती म्हाका नाकां.

देंवचार : बरें आसा. तुजी न्हय जाल्यार वडय परत तळ्यांत.

कृष्णा : हांव वडोवं?

देंवचार : हय. तुकां बरो सराव आसा. चल,

कृष्णा : (उमेदीन) चांदिनी, चांदिनी बेगीन यो.

चांदिनी : (धांवत) कितें जालां धनयांनु?

कृष्णा : यो. आमी थंय या. बरीं फुलां आसात. सादीं कृष्णकमळांबी न्हय. ब्रह्मकमळां.

चांदिनी : खरेंच?

कृष्णा : हय.

चांदिनी : रावात तर. म्हजें बॅग घेतां. (ती बॅग उखलता.)

(कृष्णा तिका हाताक धरून तळ्यावटेन वता. कुराड थंयच दवरिल्ली आसा. देंवचार तो गेला तेवटेन पळयता. कांय वेळान भुतां कुलकुलाट करीत येता.)

मुंजो : वडयली, ताणें तिका तळ्यांत वडयली.

देंवचार : म्हाका खबर आसा.

खेत्री : देंवचारामाम, तुकां खबर आसून ताणें तिका वडयली?

देंवचार : हय. तो म्हजी परीक्षा घेता. आनी हांवूय ताची घेतां. तुमी कडेक सरात.

(तळ्याकडल्यान आडेच्यो हुयेली मारीत येता.)

कृष्णा : धनयां देंवचारा, ती तळ्यांत पडली.

भुतां : (कुलकुलाट करता.) फट! फट! फट!

(देंवचार तांका वगी करता.)

देंवचार : सारखी वेवस्थीत पडली मरे?

कृष्णा : हय सायबा.

देंवचार : बरें आसा.

कृष्णा : धनयां, आंतां म्हाका बायल ना.

देंवचार : अशें. म्हणटकूच तुकां बायल जाय?

कृष्णा : हय सायबा.

देंवचार : (शांतपणान) बरें आसा. हांव पळयतां यत्न करून. (विडी काडून ओडपाचो यत्न करता.)

कृष्णा : धनयां, मातशी ताकतीक कर न्हय.

वचार : कित्याक? तुकां हुस्को कित्याक? म्हजें काम हांव करता. सकयल पडिल्लो आसूं वा वडयिल्लो आसूं. ताका वयर काडपाकूच जाय. (देंवचार सवकासायेन तळ्याकडेन वता.)

कृष्णा : (ताका थांबयत) राव देंवचारा.

वचार : कितें?

कृष्णा : तूं तळ्यांत बूड मारून कोणांक वयर काडटलो?

वचार : कोणांक म्हणजे?

कृष्णा : कुराडीच्या नेमांप्रमाण तुकां वागचें पडटलें.

देंवचार : म्हणजे?

कृष्णा : तळ्यांत पडल्या ती चांदिनी. तूं वयर काडटलो ती चांदिनी न्हय. चांदिनी न्हय आनी लोहिताय न्हय.

(भुतां कलकल करतात. देंवचार तांकां थातारता. देंवचार तळ्याकडेन वता. कृष्णा आनी भुतां उरतात. तो मातसो थतरवितर जाला. भुतां ताचेभोंवतणी आदलेवरीच 'फट! फट! फट!' हें गीत गावन नाचपाक लागतात. भुतां मदींच थारतात.)

निमो : मनशांची घाण येता. आनींक मनीस येतात. देंवचारमाम, (भुतां देंवचाराक उलो मारीत तळ्यावटेन वता. कृष्णा एकलोच आसा. थोडोसो भियेला. कांय वेळान तिगूय गजा चोरपावलांनी पेडाकडेन येतात.)

कृष्णा : तुमी? तुमी हांगासरूय पावले?

गादयेकार : म्हणजे कितें? आमकां पांय ना?

गाडेकार : पांय आसात. हात आसात आनी तकल्योय आसात. तूं कितें समजलो, सगळें तुकांच आसा?

कृष्णा : तुमी मोन्यांनी हांगासल्ले वचात.

गांवकार : कित्याक?

कृष्णा : हांव हांगासर म्हज्या कामांक आयलां. देंवचाराकडेन म्हजें देवस्पण करपाक आयलां.

गांवकार : देवस्पण न्हय, घाडपण.

कृष्णा : हांव म्हाका जाय तें करीन.

गादयेकार : जाय तें कर गा. पूण भलतेंच तुकां करपाक मेळचें ना.

कृष्णा : कितें भलतेंच ?

गाडेकार : ते चांदिनीचें तुवें कितें केलें?

कृष्णा : मणगणें केलें. कळपुटी केली, पेज केली. तुमचें म्हणणें कितें?

गाडेकार : ती तुजी बायल आशिल्ली खरी. पूण आमचीय कोणतरी आशिल्ली.

गांवकार : आमकांय तिची काळजी आसा.

कृष्णा : खबर आसा म्हाका. तेचखातीर हिशोब मेकळो केलो तिचो.

गाडेकार : म्हणजे कितें केलें?

कृष्णा : लोहिताचें जें केल्लें तेंच तिचें केलें.

गादयेकार : पूण कितें केले म्हणटा तें आमकां कळूंक जाय.

गाडेकार : कारण ह्या प्रकरणांत आमचोय भाग आसा.

कृष्णा : ना. निखालस ना.

गांवकार : ना कसो तर? तुज्या देंवचाराखातीर आमी सामान पुंजावंक ना?

कृष्णा : हय. पूण तें सगळें उदारेर.

गाडेकार : फारीक करता तेन्ना खरें.

कृष्णा : करतलों. पैशान पैसो फारीक करतलों. तुमचोय हिशोब मेकळो करतलों. मागीर तुमी म्हज्या दारांत पावल पासून दवरचेना. आदींच सांगून दवरतां.

गादयेकार : हय. तुज्या दारांत येवपात आशेल्या आमी!

कृष्णा : हांव जाणां, तुमी शेण खावपाक आशेल्यात.

गाडेकार : कृष्णा, इश्ट इश्ट म्हण तूं सांगता तें आयकतां म्हण तूं उलयता तें सोंसून घेवचे ना. समजलो?

(इतल्यान देंवचाराची कुंकार आयकूंक येता.)

गादयेकार : कसलो आवाज?
गांवकार : कोणाचो तरी आवाज खरो.
कृष्णा : तुमी हांगासून वता काय ना?
गाडेकार : वचना जाल्यार कितें करतलो?
कृष्णा : (कुराड उबारून) हांव कांय करचो ना. ही कुराड आपलें काम करतली.
गादयेकार : आब्बा! तुजें इतल्यार पडलें. ह्या असल्याच कामांखातीर कुराड सांबाळून दवरिल्ली काय कितें रे?
गांवकार : आमच्या हातांत कुराडी नासूं पूण आमचेय हात वगी बसचे ना, हें लक्षांत दवर.
(देंवचार तळ्याकडल्यान येता.)
देंवचार : बाळका, कृष्णा कुराड्या मुखार यो. तळ्यांत पडिल्ले तुजे बायलेक हांवें वयर काडल्या. हिका सारखी आरखून पारखून पळय आनी सांग, हीच तुजी बायल?
दोगूय : (एकमेकाक) कसलो आवाज?
गांवकार : कोणाचो तरी आवाज!
देंवचार : (नर्तकीकबी पेश करता त्या अविर्भात्रान) सोनिया!
(देंवचार कडेक सरता. कृष्णा आनी तिगूय गजा तेवटेन पळयतात. तळ्याकडल्यान भांगराच्या वर्णाचो भेस आनी अळंकार घातिल्ली सोनिया नाचत नाचत वयर येता.)
(सोनिया तिगांय गजांकडेन लाग मारता. कृष्णाक तें मानवना. तो बेजार जाला. थतर-वितर जाला.)
सोनिया : (लाग मारीत गाडेकाराक) आरे गजा गाडेकारा, गोड गोड गोडकारा, केन्ना मेळचें सांग, सोमारा काय मंगळारा?
गाडेकार : (चिंतून) सोमारा!
सोनिया : (गादयेकाराक) आनी गजा गादयेकारा, फडफडीत भोपशेकारा, केन्ना मेळचें सांग, बुधवारा काय शुक्रारा?
गादयेकार : (चिंतून) शुक्रारा!

सोनिया : (गांवकाराकडेन वचून) आरे गजा गांवकारा, तांबड्य शेंकऱ्याच्या कोंब्याकारा, गांवच्या बेकारा, खंयसर मेळचें सांग, मिरामार काय रायबंदरा?

गांवकार : रायबंदरा! रायबंदरा!

सोनिया : म्हज्या मोगाळ गजांनो आनी म्हज्या राजांनो, हांव तुमची प्रिया, तुमची सोनिया!

तिगूय : सोनिया! सोनिया!

(कृष्णाच्यान सोंसपाक जायना. तो सोनियाक हाताक धरता आनी भरभरीत ओडीत पेडा म्हऱ्यांत व्हरता.)

कृष्णा : धनयां देंवचारा, म्हाका पाव. हांव तुकां शरण आयलां. म्हाका ह्या संकश्टांतल्यान सोडय.

(देंवचार आनी भुतां येतात. देंवचार आपल्या जाग्यार उबो रावता.)

देंवचार : सांग बाळका, कितें घडलां?

कृष्णा : धनयां देंवचारा, ही म्हजी बायल न्हय.

देंवचार : तुजी बायल न्हय?

कृष्णा : न्हय सायबा. जी बायल म्हजी न्हय ती म्हाका नाका.

देंवचार : खूब बेगीन कळ्ळें तुकां. चल, वडय व्हरून तळ्यांत तिका.

कृष्णा : हांव वडोवं?

देंवचार : मागीर कितें हांव वडोवं? असल्या कामांत तूं आतां तरबेज जाला.

कृष्णा : (हाताक धरून) यो, सोनिया यो.

सोनिया : कुश्टाच्या वंशा, दुश्टा, म्हाका खंय व्हरता? खंय व्हरून पुरता?

कृष्णा : बुडोवन मारतां!

सोनिया : गजा! गजा! गजा! कसली पळयता मजा?

गादयेकार : कृष्णा, कृष्णा सोड तिका.

कृष्णा : तुमकां आदींच सांगलां, तुमी मदीं पडूं नाका. नाजाल्यार

तिचेवांगडा तुमकांय बुडोवन मारतलों.

**गाडेकार** : आमकां मारल्यार जाता पूण ह्या सोनियाक व्हरपाक मेळची ना.

**कृष्णा** : पळोवया कशी व्हरपाक मेळची ना ती.
(कृष्णा तिका एकेवटेन ओडटा जाल्यार तिगूय गजा तिका दुसरेवटेन ओडटात.)

**कृष्णा** : धनयां देंवचारा, तुज्या थळांत, तुज्या पेडाकडेन, तुवें फर्मायिल्ल्या पवित्र कार्यांत, हे हे म्हाका आडखळ हाडटात. धनयां, तूं तुजे शक्तीन हांचो बंदोबस्त कर.

**देंवचार** : खेत्र्या, ह्या तिगांकूय पळोवन घे. फांतोडेर तुज्या घराच्या दुर्गावयल्यान वचपी ते हेच मनीस. खेत्र्या, मुंज्या, निम्यां हांकां तिगांयकूय ह्या रानांत व्हरून लिपयात.
(तिगूय भुतां तिगांय गजांक आंगांक खातखुतल्यो करतात. तिगूय हात उबारून 'सोनिया सोनिया' करून आड्डतात आनी तीन वटेन धांवपाक लागतात.)

**सोनिया** : गजा! गजा! गजा! तुमी जिते आसतना कसली ही सजा?
(कृष्णा सोनियाक घेवन तळ्याकडेन वता. देंवचार एकलोच उरता. कांय वेळान कृष्णा धांवत येता.)

**कृष्णा** : धनयां देंवचारा, काम जालें. आतां म्हाका बायल ना. आतां म्हजी आनीक परीक्षा पळोवं नाका. म्हाका म्हजी बायल दी.

**देंवचार** : तुजी बायल?

**कृष्णा** : हय. चांदिनी नाका, सोनिया नाका. म्हाका म्हजी लोहिता जाय.

**देंवचार** : ना. तुकां जाय तें जावचें ना. कुराडीच्या नेमाप्रमाण कितें जावपाचें आसा तें जातलें.

**कृष्णा** : कुराडीच्या नेमाप्रमाण?

**देंवचार** : हय. (तळ्याकडेन वचपाक वळटा.)

कृष्णा : धनयां, धनयां म्हजें आयकून घे.

(फाट करून वयर हात करून 'ना' म्हण सांगता आनी तसोच मुखार वता. सैरभैर जाता. कांय वेळान देंवचार येता.)

देंवचार : म्हज्या मायेच्या बाळका, तळ्यांतल्या साळका, हांगासर खुंटी मारून आशिल्लो हो तळेकार देंवचार तुजेर प्रसन्न जाला. ह्याच थळांत तुगेल्या पूर्वजान कुश्टान घडयलो एक मनीसपणाचो इतिहास. खांदो तोडटाना ताची तळ्यांत पडलेली कुराड लोखणाची आसली. हांवें ताची परीक्षा पळोवपाक ताका चांदिची आनी भांगराची कुराड दाखयली. पूण तो बदलो ना. स्वार्थ ताका आफुडलो ना. हांव ताचेर मनापासून खुशी जालों आनी त्यो तिनूय कुराडी ताका भेटल्यो. आयज जायत्या वर्सांनी ह्याच थळांत तोच इतिहास परत घडटा. बाळका, हांवें तुकां तळ्यांत पडिल्ले तुजे बायलेच्या बदल्यांत दोन अस्तुऱ्यो दाखयल्यो. चांदिनी आनी सोनिया. पूण तुवें तितल्याच प्रामाणिकपणान त्यो परत केल्यो. वा! वा! वा! शाब्बास! कितें तुजें प्रामाणिकपण! कितें तुजें मनीसपण! हांव मना काळजांतल्यान तुजेर खोशी जालां. आनी ते खोशयेन ह्यो तिनूय अस्तुऱ्यो हांव तुजे स्वाधीन करतां.

कृष्णा : (आड्डून) ना. ना.

(तीग जाण माथ्यार बुरखो घेवन तळ्याकडल्यान वयर येतात. म्हळ्यार खेत्री, मुंजो आनी निमो. हाणी लोहिता, चांदिनी आनी सोनिया हांच्यो साडयो कमराक गुठलायल्यात आनी माथ्यार पदर घेतला. कृष्णाक मदीं घालून हिजड्यांच्या नाचाभशेन ते कृष्णा भोंवतणी नाचतात.)

आमी देंवचाराच्यो धुवो रे धुवो –2
आमी वागऱ्याच्यो ऊवो रे ऊवो – 2
आमी धायांच्यो मावो रे मावो – 2

**कृष्णा** : (आड्डत) धनयां देंवचारा, म्हाका वाटय. हांच्या तोंडांतल्यान म्हाका वाटय.
(देंवचार भुतांक नाचपाचीं बंद करता.)

**देंवचार** : तुवें तुजे करणेन सगळें केंला. आतां तुजें तुकांच निस्तरचें पडटलें. तिगांय तुजेबरोबर रावतलीं आनी तूं तांचेबरोबर.

**कृष्णा** : ना धनयां, शक्य ना.

**देंवचार** : कित्याक शक्य ना? तीन बायलां बदलपाक तयार आसा जाल्यार तीग बायलां बरोबर संवसार कित्याक नाका? तूं तीगां-तीगां बायलांचो यार जावपाक तयार, मागीर तुगेले बायलेचे तीन तीन यार आसले जाल्यार तातूंत कितें बिगडलें?

**कृष्णा** : सगळें बिगडटलें धनयां. आदींच हांव रीणान माथेंभर बुडलां. तातूंत तीन तीन मनशांचो भार. शिवाय बायलांचे बाबतींत ले-कायदोबी कितेंतरी आसा काय ना?

**देंवचार** : ले-कायदो? बरो बेगीन येवजलो तुकां. तुमच्यासारख्या दादल्यांक खंय लागता रे कसलो कायदो? बायल म्हणजे तुमचो हक्क, ती मागीर कोणाची धूव आसूं, कोणाची भयण आसूं. तुमकां ती आवडली जाल्यार तिका हातासपाखातीर तुमी सगळे तरेचे यत्न करतले. तुमचें म्हणणें-म्हाका ती आवडल्या! अब्बा! म्हाका ती वश जायना म्हणजे कितें? ती वश जावना म्हणून तिचो नाद सोडचेना. तिचेर ॲसीड वडयतले, तिच्या पोटांत चाकू रोमतले, रानांत व्हरून तकलेर फातर घालतले, कोयतेन गळो कापतले, आर्माची गुळी घालतले आनी तिका एकदांचे काबार करतले. तिका काबार करतकूच मागीर तुमी दुसरेचे सोदीक वचपाक मेकळे. पूण तूं मोटो बुदवंत. तुवें बरी नामी कल्पना सोदून काडली. कोणाक मारप ना. फक्त बदलप.
(वगी आशिल्लीं भुतां परत आदलेंच गीत म्हणून नाचपाक लागता. कृष्णा काकुळतायेन देंवचाराच्या पांयार घालून घेता. देंवचार भुतांक आसा तशीं तळ्याकडेन वचपाक खुणायता.

तीं आयिल्लीं तेवटेन गायत-नाचत वतात.)

**देंवचार** : (कृष्णाक) बायल म्हणजे कितें निर्जीव वस्त? वापरली, शेंवटून दिली. नाका जाली, दुसरी हाडली?

**कृष्णा** : धनयां, खरें सांगू? ते कुराडीक लागून आनी तुकां लागून-तुजे सासायेक लागून हें सगळें करपाक धजलों हांव.

**देंवचार** : पिसो! आनी हांवूय तुकां आतां खरें सांगतां,

**कृष्णा** : कितें?

**देंवचार** : हे कुराडीनूय कांय करूंना आनी ह्या तुगेल्या देंवचारानूय कांय करूंना. हांव फक्त निमताक कारण. सगळें रचून हाडलां ते देंवचाराचे धुवेन.

**कृष्णा** : देंवचाराचे धुवेन?

**देंवचार** : हय. ह्या वाठारांतली दर एक अस्तुरी ही ह्या देंवचाराची धूव! ती काळजान लोखणासारखी घट आनी तकलेन हुशार! तिका जाय तेंच जातलें.

**कृष्णा** : धनयां, म्हजी लोहिता खंय?

**देंवचार** : तुजी लोहिता? तिका आदीं विचार तूं तिचो कृष्णा उरला काय म्हणून? (देंवचार पेडाकडेन तसोच थीर रावता. कृष्णा सैरभैर जाता. लोहिताक उलो मारता.)

**कृष्णा** : लोहिताऽऽ लोहिताऽऽ

(लोहिता तळ्याकडल्यान वयर येता. खांदाक बॅग आसा.)

**लोहिता** : कित्याक आड्डता?

**कृष्णा** : लोहिता, तूं खंय आसलें?

**लोहिता** : ती उस्तवारी मागीर. पयलीं तयार जा.

**कृष्णा** : कित्याक तयार?

**लोहिता** : अग्नीपरीक्षेक. सदां सदां सीतेनूच अग्नीपरीक्षा दिवपाची? रामान दिवप ना? आयज रामाची पाळी.

**कृष्णा** : (गळवश्या येवन) सांग सीतामाये, तुज्या मनांत कितें आसा?

**लोहिता** : तुवें एक आनी दोन फावट न्हय, तीन फावट म्हाका तळयेंत वडयलें. म्हजे हिकमतीचेर हांव तरून वयर आयलें. आतां तुजी

पाळी. हांव तुकां धुकलून वडयतां, तूं वयर येवन दाखय.

कृष्णा : नाका, लोहिता म्हाका उदकाचो भंय दिसता.

लोहिता : उदकाचो भंय दिसपाक सुणो तर तूं?

कृष्णा : तुकां जाय तें समज. पूण म्हाका तळ्यांत वडोवं नाका.

लोहिता : तुगेल्या देंवचाराक उलो मार.

कृष्णा : ना. तो पावचो ना म्हाका. ह्यावेळार म्हाका फक्त देंवचाराची धूवच पावपाक शकता.

लोहिता : (आपलेभितर हांसून) देंवचाराची धूव!

कृष्णा : हय. काळजान लोखणासारखी घट आनी तकलेन हुशार. सांग लोहिता, तूं सांगता तें आयकुपाक हांव तयार आसां.

लोहिता : तळ्याचो सगळो वांठार हांवें बारीकसाणेन पळयला. (खोंकून) तीन तीन फावट. तूं म्हणटा न्हय, हो जागो आमचो. (तो मान हालयता.) आमी हांगां बरें फार्म हावस करूंया. तरातरांच्या फुलझाडांनी सगळो वांठार फुलोंवया. हांगा बरो टूरीस्ट स्पॉट जातलो. पर्यटन थळ. हांगा खंयतरी म्हज्या धाकल्या भावाची सासाय आशिल्ले भाशेन म्हाका दिसता. ह्या पर्यटन थळाक हांव ताचेंच नांव दिवपी. हांव जाणां, घांस बरोच मोटो आसा. पूण तूं भियेवं नाका. हांव आसाच न्हय, देंवचाराची धूव! आनी आनीक कितें करूंया जाणां? ह्या पेडाचेरूय देंवचाराचें देवूळ बांदूया, सामकें म्हापश्यां बोडगेश्वराचें बांदलां तशें. हांगासर येवपी पर्यटकांतल्या भावार्त्यांक देवूळ जालें, सैमाच्या मोगींक फार्म जालें.

(कृष्णा लोहिताच्यो सगळ्यो गजाली मानून घेता. देंवचाराच्या पांयाकडेन वता.)

कृष्णा : धनयां देंवचारा, आयकलें न्हय तुवें? आमी हांगासर फार्म हावस करतलीं. आनी तुजें देवूळ बांदतलीं.

देंवचार : आयकलां हांवें सगळें. तुमकां जाय तशेंच जातलें.

कृष्णा : धनयां, हे कुराडीचें कितें करपाचें?

देंवचार : तुजे घराकान्नीक विचार.

कृष्णा : लोहिता, हे कुराडीचें कितें करपाचें?

लोहिता : आतां फांतोड जावपाकडेन पावली. हे कुराडिचें काम फाल्यांसावन सुरू. फाल्यां सक्काळीं हांगा येवपाचें आनी सगळ्यो झिली बेणपाच्यो.

कृष्णा : आनी आतां आमी कितें करपाचें?

लोहिता : (आडेची लजत) आंवय! म्हाला लज दिसता!
(कृष्णाचे हात धरून ताका ओडीत व्हरता. तीं गेल्या तें पळोवन देंवचार भुतांक उलो मारता.)

देंवचार : निम्याऽऽ, खेत्र्याऽऽ, मुंज्याऽऽ हांगा येयात बेगीन.

भुतां : तीं गेलीं?

देंवचार : गेलीं. पूण तीं परत येतलीं. हांगा तळ्यांकडेन खंय तीं फार्म हावस काय कितें करतलीं. (निम्याक) तुज्या नांवान, आनी ह्या पेडार म्हजेखातीर देवूळ बांदतलीं.

भुतां : वा! वा! वा!

देंवचार : (याद जावन) आरे, ते तीग चांडाळ खंय?

खेत्री : ते वाट चुकल्या. रातभर सगळ्याक जळपेता.

देंवचार : तांकां सोडून घालात. चलात, फांतोड जावपाकडेन पावली. हांव म्हजे सदचे भोंवडेक वतां.
(व्हाणो, कांबळ, दांडो घेता. पेडांतली सोऱ्याची बाटली काडून तोंडाक लायता.)

मुंजो : देंवचारमाम, तूं आयजूय पियेवन वता?

देंवचार : आरे मागीर देव जातकूच म्हाका खंय पिवपाक मेळटलें? मागीर गायचें दूद!
(पार्श्वभागाचेर देंवचाराचें आरंभाचें गीत सुरू जाता. तेसरशीं भुतां आदलेवरी नाचपाक लागता. मागीर रानांत शेणिल्ले तिगूय गजा त्याच तालार वाट सोदीत जळपेत नाचपाक लागतात. देंवचार अर्दी मर्दी दिसता, दिसना.)

(सोंपता)

## कला चेतना, वळवय निर्मित –
## 'धनयां देंवचारा' (2003)...



कलाकार : जयंत नायक, सागर नायक आनी शेखर नायक.





कलाकार : राजदीप नायक, सुचिता नार्वेकार, प्रशांत नायक,
शेखर नायक आनी जयंत नायक



प्रत्यक्षांत भुतां ना. पूण आमचे लोकसंस्कृतायेंत देव-दैवतांबरोबर भुतांय आसात. तातुंतलीं कांय भुतां पूजा करपाचे योग्यतायेचीं जाल्यार कांय उपद्रवी स्वरूपाचीं म्हणपाचें लोकमानस आसा. वैदिक संस्कृताये आदीं हांगासर एक तंत्र-संस्कृती आशिल्ली. देंवचार तेच तंत्र-संस्कृतायेंतलें एक दैवत. हें नाटक देंवचार आनी भुतांवळ संकल्पनेचेर बेतलां.

एका लाकुडकाराक देवान लोखणाची, चांदीची आनी भांगराची अश्यो तिनूय कुराडी दिल्ल्यो तिच काणी हांगासर कल्पनेन विस्तारून नाटक रुपान मांडल्या.




ISBN 81-86488-87-1